


श्री गोकुळदास प्रभूकं

आदरान...

प्रा.हनुमंत चोपडेकाराचें

# हम होंगे कामयाब

कोंकणी नाटक

**हम होंगे कामयाब**
(नाटक)
हनुमंत चोपडेकार

**Hum Honge Kamyab**
(Drama)
Prof. Hanumant Chopdekar

पयली उजवाडावणी
३१ मार्च २००७
प्रकाशन क्र. ०१

First Edition : 2007
31 March 2007
Publication No. 1



**अक्षर जुळवणी आनी छापणावळ**
अर्थ डिझायनिंग ॲण्ड प्रिटींग
कवळें फोंडे - गोंय

**Typesetting - Printing**
Arth Design & Printing
Kawale - Ponda - Goa.

**प्रकाशक**
सारा क्रिएशन
श्रीराम पर्णकुटी हाव्सिंग
को.ऑ.सोसायटी, यशवंत नगर
तिस्क फोंडें-गोंय

**Publisher**
Sara Creation,
Shriram Parnakuti Housing Co-Op. Society, Yashwantnagar
Tisk -Ponda-Goa

**मुखपृश्ट सजावट**
गौरीश वेर्णेकार

**Cover Design**
Gaorish Vernekar

मोल रु.२५/-

Price : Rs. 25/-

❀ **हें पुस्तक कोंकणी अकादेमीच्या मांड-नाटक-तियात्र येवजणेखाला छापलां.**

❀ **ह्या नाटकाच्या प्रयोगाखातीर लेखकाची मान्यताय घेवंची पडटली.**

अर्पण ......

# शांतीताई ....

(सर्गेस्त शांती प्रभू तेंडुलकार - घाटवळ)

# .... आदरान

# मनांतलो घुस्मटमार पेट घेता तेन्ना.....

'हम होंगे कामयाब' हें नाटक आयज पुस्तकरूपांत येता ह्या खोशयेपरस हो विशय शब्दबध्द जावन नाटकासारख्या माध्यमांतल्यान लोकामेरेन पावता ताची खोशी म्हाका चड जाता. २००२ वर्सा काणका बार्देश हांगासर घडिल्ल्या एका दुर्देवी घडणुकेचेर आदारीत ह्या नाटकांतल्यान हांवें समाजांतलें पोजडें वास्तव लोकामुखार हाडपाचो प्रामाणीक प्रयत्न केला. जातीकातीच्या नांवार आयजूय धुमशेणा चलतात, आयजूय तकल्यो फुट्टात, आयजूय मनशाक मनीस पिट्टुटात, आयजूय रानवटी संस्कृताय चलता हाचो दिश्टावो म्हज्या परीन हांवें घडयला. जेन्ना अशे विशय मुखार येतले तेन्ना आमच्या भितर कुसत पडिल्लें जिवें मडें आमकां नव्या दमान आवाहन करीत रावतलें. केन्ना ना केन्ना ताका आमी हुलपायतले ह्या आशेर म्हज्यासारखे त्या विशयांचेर पिशेकशे बरयत रावतले हातूंत मातूय दुबाव ना.

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग आकार पैंगीण ह्या संस्थेन गोवा कला अकादेमीच्या नाट्यसर्तींत केलो. म्हत्वाचें म्हळ्यार प्रत्यक्षांत कितल्योशोच अडीअडचणी मुखार येवनय सुरज कोमरपंत, शैलेंद्र वेर्णेकार, दिलीप वझे आनी दिग्दर्शक प्रा. सुदेश नायक हांणी 'जिवें मडें' पेटोवचें तशे तन मन धन ओंपून ह्या नाटकाचो प्रयोग जैतिवंत केलो. उपरांतूय गांवगिऱ्या वाठारांत ताचे जायते प्रयोग जाले. अकाशवाणी पणजी केंद्रावयल्यानूय जेश्ट निवेदक आनी नाट्यमोगी श्री रामानंद जोशींच्या मार्गदर्शनाखाला तें सादर जालें.

तांचे तशेच हेर कलाकारांचें उपकार मानचेपरस तांच्या रिणांत रावपाक म्हाका मानवतलें.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष भौ. पुंडलीकबाब नायक, उपाध्यक्ष भौ. डॉ. तानाजीबाब हळणकार, चित्रकार श्री गौरीश वेर्णेकार, अर्थ डिझायनिंग ॲण्ड प्रिंटींगच्यो प्रा. योगिता वेर्णेकार आनी प्रस्तावना बरोवन म्हज्या नाटकाचें

गोल थारावपी म्हजे इश्ट नाट्य समिक्षक श्री. आप्पा बुवा हाचे हांव उपकार मानता. प्रा. राजय पवार हांची एक सुंदर आनी आशय प्रधान कविता ह्या नाटकाखातीर हांवें घेतल्या. तांचोय हांव उपकारी आसा.

म्हज्या साहित्यीक प्रवासांत म्हाका सदांच तेंको दिवपी म्हजी घरकान्न 'सखी' हिचो उगडास हांगा काडप रास्त दिसता.

म्हज्या ह्या नाट्यकृतींतल्यान तुमच्या मनांत वैचारीक पेट घेवंचो हीच इत्सा.

**हनुमंत चोपडेकार.**

# प्रस्तावना

आमकां गोंयकारांक नाट्यपिशे म्हण्टात. गोंयच्या खाचिकोनशांनी जावपी हजारांनी नाटकां ताची जिती जिवी गवाय आसा. आयच्या टि.व्ही आनी इंटरनेटाच्या जमान्यातून ही शेकड्यांनी वर्सां चलत आयिल्ली परंपरा आमी गोंयकार व्हडा उमेदीन मुखार व्हरतात. खासकरून गांवागांवातले तरणाटे, हौशी पंगड आनी देवस्थानाच्यो नाट्यसंस्था आपल्या तांकीप्रमाण ही जापसालदारकी उबारतात.

ही गोंयची समृध्द रंगमाची आयच्या घटकेक दोन भाशेंतल्यान पावलां मारता. मराठी आनी कोंकणी. कांय वर्सामिरेन गोंयची रंगमाची ही मराठी नाटकांच्या म्हालवज्यारूच तगून उरिल्ली पूण कोंकणी रंगमाचयेच्या मळबाचेर पुंडलीक नायक नांवाचो सुर्य उदेलो आनी गोंयचेंच न्हय तर पर्यायान भारतीय रंगमाचयेचें मळब लखलखून गेलें. ह्या नाटककारान गोंयकारांच्या जिणेची वास्तवपूर्ण प्रतिमा दाखोवपाची तांक फक्त कोंकणी नाटकांतूच आसा म्हणपाचो दिश्टावो घडयलो. गोंयची खरी वळख कोंकणी रंगमाचयेंतल्यान पुराय संवसाराक करून दिवपी ह्याच नाटककाराच्या वावरांतल्यान स्फूर्त घेवन आयज शेकड्यांनी बरोवपी कोंकणी नाट्यसंहिता आकाराक हाडटाना दिश्टी पडटात. ह्या वावरांत गोवा कला अकादेमीचें योगदान भोव मोठें आसा. गोवा कला अकादेमी आयोजीत सर्तीन जायते नाटककार आनी कलाकार दिल्यात आनी दियत आसात. पुंडलीक नायक, दत्ताराम कामत बांबोळकार, दिलीपकुमार नायक, प्रकाश वजरीकार, विष्णू वाघ, राजय पवार हे तातुंतलेच कांय नाट्यलेखक. वयल्या नांवा भायरूय आपल्या खाशेल्या शैलीखातीर हेर जायते लेखक सर्तींनी आनी हेर कडेनूय आपलो छाप सोडून गेल्यात. प्रा. हनुमंत चोपडेकार हांणी खासा नांव कमयलां तें तांच्या एकांकी आनी पथनाट्यांखातीर वास्तवीक परिस्थितीचें भान दवरून समाजांतल्या तरेकवार प्रस्नांचेर भाश्य करपी हो तरणाटो लेखक 'हम होंगे कामयाब' हे धगधगीन वास्तवाचेर आदारीत नाटक घेवन गोवा कला अकादेमीच्या सर्तींत देंवलो तेन्ना ताच्या गुणवत्तेची आनी

तिभेंची खरी वळख घडली. आपूण फकत  पथनाट्यां आनी एकांकी बरोवपांत कुशाल ना तर पुराय स्वरुपाचें नाटक रचपाचे सगळे गूण आपले कडेन आसा चो दिश्टावो ताच्या ह्या नाटकान दिलो.

काणका बार्देश हांगासर घडिल्ल्या मनीसघाण्या घटनेचेर आदारीत ह्या नाटकांतल्यान समाजांतली रानवटीपणाची वृत्ती निर्देशीत करपाचो यत्न लेखकान केला. एकविसाव्या शेकड्यातूय स्वतंत्र भारतांत जातीकातीच्या नांवान कुड्डो अच्छेव मांडप्यांचें कशें फावलां हाची देख ह्या नाटकांत मेळटा. 'मरण' कोणांकूच चूकना. खरें म्हळ्यार मरण हें एकमेव सत्य. तो एक पुण्य-पवित्र खीण. ह्या खिणाक दुस्मानलेगीत दुस्वासाचें रूपडें पिजून मेल्ल्या कुडीक खांद मारता. पूण फकत सकयल्या जातीच्या नांवान मेल्ल्या कुडीच्यो भयोभयो करपी मनीस हांगा टपून रावल्यात, तांच्या मनांतलें मडें खरें म्हळ्यार पेटपाची गरज आसा. खऱ्यानीच मेल्लें मडें सरणार दवरून पेटयलेंना तरीय सैमीक रितीन तें पंचमहाभुतांनी विलीन जातलेंच पूण खरें पेटचें आसा - ना पेटपाक जाय तें तुमच्या आमच्या भितर मातून राविल्लें जातीकातीचें 'जिवें मडें' तें जेन्ना पेट्टलें तेन्नाच ह्या समाजाक नवी दिका फाव जातली असो हावेस हें नाटक उक्तायता.

सैम हनुमंताचो घडये स्थायीभाव. जंय जंय संद मेळटा थंय तो पांचव्या सैमाचें उदात्तीकरण करता. गांवच्या मातयेचो वास तांच्या जण एका शब्दांत दिश्टी पडटा. हांव ताका ध्यानस्त म्हणचो ना. धानस्त तपस्वी सासणाची सासणा तप करून संसाराची निर्मिती केल्ल्याकडेन नाळ जोडपाक सोदता तर, हनुमंत एक फकीर जावन संवसार निर्माण करप्यान कितले दोश दवरल्यात हें दाखोवन दिता. देवान मनीस घडयलो पूण जात कात धर्म घडयलो ना हें सत्य तो हांगा मांडटा.

लेखक हनुमंत चोपडेकारान समाजसेवा 'Social work' करूंक गांवांत आयिल्ल्या कॉलेजींतल्या विद्यार्थ्यांच्यो मर्यादाय हांगा उक्त्यो केल्या. पुराय नाटकाचो संघर्शमय आटाप तांणी व्यवस्थित मांडला. केंसर, जानकी, नोंनलो बाप्पा, गांवकार, प्रा. देसाय ह्या पात्राचें चित्रण तांणी व्हडा संयमान केला.

खासाकरून संवेदनशील मनाचो विद्यार्थीप्रिय शिक्षक म्हूण तांणी चित्रायिल्ली प्रा. देसायांची व्यक्तिरेखा ह्या नाटकांतली जमेची बाजू आसा.

कांय अंशी भारूडाच्या आंगाकडेन वचपी हें नाटक मर्दीच पोवाड्याच्या आंगान संघर्श जागो करता. त्यानभायर पुराय नाट्यसंहितेचो विचार केल्यार कवी हनुमंत नाटककार हनुमंताच्या नाट्यसंहितेंत वाटेकार जाता. भाग पाडटा.

नाटकाची आनीक एक म्हत्वाची खाशेलताय म्हळयार लेखकान केल्लो शेवट. वोगीच फटकिऱ्या आशेर प्रेक्षकांक दवरून सगळें Goody Goody मांडिनासतना लेखकान खरी वास्तविकता हांगा दाखयल्या - खरें म्हळयार एक प्रस्नचिन्न उबें करपाक लेखक यशस्वी जाला. गरज आसा ती त्या प्रस्नचिन्नाक जाप सोदपाची......तिवूय लेखकान निर्देशीत केल्या ह्या नाटकांतल्यान अतिशय गंभीर असो विशय व्हडा कल्पकतायेन तांणी मांडला म्हूण परबीं.

लेखक हनुमंत चोपडेकारान जायत्यो एकांकी रचून कोंकणी एकांकीच्या मळावेलें आपले स्थान सिध्द केलां. हाचेमुखार आपल्या एकांकींच्या यशस्वी लेखनांतल्यान स्फूर्त घेवन अशे तरेची सामाजीक आनी वैचारीक स्वरुपाचीं नाटकां तांणी बरयत रावचीं अशी इत्सा व्यक्त करता...

प्रायोगीक नदरेंतल्यान हें नाटक गांवागांवानी जावचेंच, एक नाटक म्हण न्हय तर एक विचार म्हण पेटचो. चंद्रशेखर गोखले म्हण्टा ते भशेन -

**'गांवाच्या बाहेर अजूनही<br>एक महारवाडा आहे<br>चौथीच्या पुस्तकात मात्र<br>समतेचा धडा आहे'**

ही समता केन्नातरी येतली ह्या आशेर आमी आमचीं पावलां मुखार मारतले. तेन्नाच म्हणपाक मेळटले 'हम होंगे कामयाब'

**श्री. आप्पा बुवा**
फोंडें - गोंय

**ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग 'आकार-पैंगीण' ह्या संस्थेन गोवा कला अकादेमीच्या २८ व्या नाट्यसर्तींत ता. २० ऑक्टोबर २००३ दिसा सांजवेळच्या ७.०० वरांचेर श्री दिनानाथ कला मंदीरांत सादर केलो.**

## पयल्या प्रयोगाचे मानकरी

**दिग्दर्शक** प्रा. सुदेश नायक

**निर्मातो** - सुरज कोमरपंत

**नेपथ्य** - शैलेंद्र वेर्णेकार

**पार्श्वसंगीत** - पांडुरंग शिरोडकार

**मुस्तायकी** - यशवंत नायक

**रंगवण** - दत्ता कोमरपंत

**उजवाडा येवजण** - गुरूदत्त देसाय

नोंनलो - जगदीश भंडारी

झिलू - सुरज कोमरपंत

केंसर- अस्मिता पैंगीणकार

जानकी - कल्पना देसाय

प्रो. देसाय - दिलीप वझे

रॉनी - सर्वेश पै

विश्वासराव - वेंकटराय नायक

विशाल - जालंधर वझे

रतन - यशवंत नायक

प्रिन्सिपल- शैलेंद्र वेर्णेकार

बाबू - दत्ता कोमरपंत

बाबगो - दिलीप कोमरपंत

विठोबा महाले, संतोष कोमरपंत, यतीश पाटील, विमोद दलाल.

**खाशेलो आदार :**

एकनाथ नायक, क्षत्रीय कोमरपंत समाज-देवबाग काणकोण आनी समाज मंदीर-तामणे पैंगीण

# ‘अशेंच आनी इतलेंच’...

मरण म्हळयार जिवितांचें निमणें सत.. पंचमहाभुतांच्या आदारान उबी रावील्ली आमची जीण आनी तातूंतल्यानूच आकारास आयिल्ली आमची ‘कूड निमणी विलन जाता ती ह्याच पंचमहाभुतांनी. संवसारांत जल्माक आयिल्ल्या ल्हान-व्हड, गरीब - मोठ्या दर एका जिवाक ह्या सैर्माक सत्यतायेक तोंड दिवंचेंच पडटा. मनीस नांवाचो हो प्राणी जल्मापयलींचें आनी मरणा उपरांतचें गुपीत सोदीतूच जल्म घेता आनी सुखा परस दुख्खांचेच घावे काळजार पेकयत भुंयसपाट जाता. अशा वेळार, भुंयेर पडिल्ल्या ताच्या निर्जीव कुडीक दुस्मानान लेगीत खांद मारप हेंच खरें मनीसपण... हीच खरी मानवता.

पूण, आयज मनीसपणाची संकल्पना इबाडल्या कारण-

**-हांगा जाती कातीचीं वस्लां चडयल्ले समाजाचे दलाल मातल्यांत**

**- हांगा समाज सेवा म्हळ्यार फॅशन मानपी समाज थेलये वाडल्यांत**

**- हांगा मरणाच्या प्रसंगारूय ‘जातीय वादाचीं कारस्थानां’ फांकल्यांत.**

... अशें जाल्यार सगळयांत पयलीं... मेल्ले, कुशिल्ले, कुडी परसूय पयलीं पेटचें आसा तुमच्या आमच्या मर्दी न्हिदून पडिल्लें जिवें मडें...तेन्नाच आमी जैतिवंत जातले......... ‘कामयाब’ जातले.

**सुरज कोमरपंत**

आकार - पैगींण

# अंक : पयलो

## देखावो - १

(गांवांतली एक खोप. फांटलेवटेन इल्ली उवार सुवात. ह्या सुवातेर ल्हानशी वंय. ही सकयले तळयेची कड. वेळ सकाळचो. पडदो उगडटा तेन्ना केंसर खोपीमुखार सारन मारता. केंसराची पिराय ६५ ते ७० वर्सां. हातांत दांडो घेवन चलता.

केंसर - (खरशेत) आवय! देवा! परमेश्वरा! जीव कावार जालो. काय रे भगवंता? विसर पोडलो काय रे म्हाजो. आवय... आवय... (पिरंगता) कसली ही पिडा लागल्या म्हाज्या जिवाक. दोळे केन्ना उगडटलो तूं म्हाज्यासर आतां? काय रे? तुकां खबर आसा मां... संवसारगक पोडलां भुगक वागय म्हयने. जल्माक घालतलो पोटा पाणयाची सोय करता म्हणटात! खंयचा पोट आनी खंयचा काय..... ! वळी तो कान पिळी म्हणटात ना तांच खरं. बाकीचां सगळां फट... जानक्या हे जानक्या (बसता) रांडेचा एका उल्याक जाप दियत जाल्यार बघुचां. जानक्या रांडे मेला काय गो...? गो जानक्या (नोंनलोवाप्पा पिराय ७५ ते ८० खोंकीत येता)

नोंनलो - काय गो केंसर काय चल्लां? मार सकाळींच सुनेच्या नांवान हवदोस सो घातलां. बरा आसा मगो सगळां?

केंसर - हा... इलय तूं? यो तरीय मी म्हणटय आजून कसो आयकूंक येयलो ना म्हाजा हवदोस... शेजरी न्हू गा तुमीं, म्हाकां खबर आसलांच नोंनलोवाप्पा येतलोच.... म्हाजा बोंबलो आयकून.

नोंनलो - (हांसता) बाकी तुजां उलोवपाचां काय बदल्ला नाय हा. काय गो केंसर.

केंसर - आतां आमचां काय उरलां ! बरं ते जावंदी, तूं काय म्हणटा तां सांग. उलोवपाच्या गजालीक पोंडो पाड.

नोंनलो - हां.... म्हाकां सांग वघया, तो आपलो झिलगो खंय गेलो?

केंसर - झिलगो काय म्हाकां सांगून वतय. मेलो हांव उठच्या पयलींच पासार जाता. ह्या पोराक काम ना धंदो. परमेश्वरा कसा काय जातलां ह्या पोराचा तुकाच खबर. पूण...तुमचा काय काम आसलां तेचेकडेन?

नोंनलो - गांवकारालें..... म्हणजे व्हडल्या गांवकारालें घर शिवचां आसलां. एक मानाय फाल्न पडटा. चितला झिलग्याक घेंवचो वांगडा.

केंसर - नाका रे बाबा त्या गांवकाराच्या कामाक व्हरो नाका म्हाज्या झिलग्याक. जें भोंवलां तें पुरो आतां.

नोंनलो - आगो फांटलें कित्याक चिंतता तूं?

केंसर - तुकां सांगता न्हू म्हाजो झिलगो येवंचो ना कामांक. रंडेच्या गांवकारान बापायक खाल्लो तेच्या. म्हाज्या कुंकमाचो आदार सोपयलो. आतां म्हाज्या झिलग्याक बाटली पाजून झलयतत तां काय कमी जालां? कामांक? हांव शिरा घालता त्या गांवकाराच्या कामांक. म्हाज्या घरा दाराक दुस्वासान पळयतल्याचे बारा बारा चौवीस पिळग्यो पाड पोडो.

नोंनलो - केंसर आगो... आगो पुरें कर आतां. आनी हे वघ झिलगो काय ल्हान आसा आतां... हां? ते बरे पाजतले पूण हो कसो पाजून घेता... आगो आपलांच नाणां फाल्न म्हण वोगी बसुचां. ह्या गांवांत जें काय चल्ला तेका आमां म्हारकुटे दळदिरे काय करतले...?

केंसर - काय करतले? आसा म्हाजो जाग्याकार जाल्यार घेयत सोद तेंचो. वघतलय तूं बाप्पा... ह्या व्हडल्या गांवकाराच्या पुतांक विरमत फुट्टली विरमत... म्हाज्या झिलग्याक सोरे पाजतले भयजवरे... (खरशेता)

(फाटलें वटनच्यान तळयेंन श्रमदान चलिल्याचो आवाज येता.

सुरवेक बोवाळ सो. उपरांत तरेकवार घोशणां. कामांक नेट हाडच्या उद्देशान केल्ल्या येवजणेचो आवाज)

* कायली उखल खोरें उखल - घसाघसा
* एक दोन ऐसा - घाम गळय पैसा
* घाल रे नेटान, उखल नेटान - घसा घस
* राधाबाय गधाबाय - आहाह ऽऽ आहाह ऽऽऽ

(केंसर पयर्लो भियेना...थोडें अजापता. तळयेच्या कडेक वचून. पळयता)

केंसर - आरे नोंनल्या ह्यें आणी काय... हो कसलो हवदस, कोण खवसलो काय रे?

नोंनलो - आगो केंसर, तुकां म्हायती ना?

केंसर - काय तां?

नोंनलो - आगो ते सकयल काम करतत ने कालेजचे भुरगे. तेंचो तो काय तो... हा... लॅम्प काय काय तो, सरकारी इस्कूलांत येयला.

केंसर - सरकाराचा काय ना झक मारूं. पूण हे पोराटे हडेन काम सा करतय, आणी हे रे काय...

बाप्पा - काय?

केंसर - रांडेची चेडवांय काम करतय शीं... नोंनल्या, म्हाका सांगरे एकूय थेंबो पाणी नासलेला ह्या तळयेंत काम कसला मडसडेचां करतले हे पोराटे. आणी राव रे, शागंक काय सापूत पिडा पडली... (पळोवन) अब्बा, पेंटी बिंटी घालून काम करतय मरे... दिसावडो बरो आसतलो काय रे नोंनल्या?

बाप्पा - ओगी बस सायबिणी... सकयल आसत ते थंय. तो गांवकाराचो

व्हडलो आसा तेंच्यावगवर. व्हडलो गांवकार तो.... आयकात जाल्यार फाट सोलून काडटलो. (कुर्शीक पळयत) हे बघ ते येतय हंयसर आतां तोंडाक कुलूप घाल सायबीणी.

(प्रा. देसाय पिराय ३४-३५ आनी विश्वास गांवकार पिराय ५०-५५उलयत येतात)

विश्वास - हां.... तर सर, ही तळयेची दुसरी कड, हांगा फक्त ह्यो दोन तीन खोंपी. ह्या वाटारक म्हारवाडी म्हण्टात.

प्रा. देसाय- म्हारवाडी?

विश्वास - हय! म्हारवाडी... मात्शा सोफिस्टीकेटड भाशेंत सांगचें जाल्यार दलीतवाडी. (नोंनल्याक पळोवन) शूत... हो नो कोण रे तो -

नोंनलो - (आकुडटा) हांव..... नोंनलो गांवकारा.

विश्वास - हांगा यो, तूं खंय वयतालो?

नोंनलो - डिसावड्याक.... घर शिवचां आसलां, मदल्या गांवकाराचा.

विश्वास - नोंनलो न्ही? हें पळय, हो... म्हणजें हे, आमच्या कॉलेजचे सर. नांचो धा डिसांचो कँप आयला. किते रे... थंय सकयले तळयेंत साफसफाईचें काम ते करतात. नांकां किते जाय नाका तें पळय किते रे?

नोंनलो - पण गांवकारा, ह्या तळयेंत पाणी वी काय ना न्हू. आनी ते भुरगे कसल्यो कसल्यो आड्यो मारतात काय सांगू तुमकां !

प्रा. देसाय- आरे आड्यो न्हय त्यो. मानी, फातर, वयर काडपाखातीर दिल्लो नेट तो. आनी सकाळचींच दोन वरां चलतलें काम आमचें.

विश्वास - राव रे. हो गांव तुमचो काय आमचो. तुमकां हांगा खोंपी बांधपाक दिल्यो ताचो मद चडलो किते रे तुमकां, किते रे? मार वापायलीं शापोतां सांगता.

नोंनलो - पूण गांवकारा, तळयेंन कित्याक खांदतय -

विश्वास - नोंनल्या... तोंड वयर काडून उलोव नाका. तुकां धू म्हूण सांगलां धू, पोंदाक कितें लोंवता काय म्हूण विचारू नाका. कितें रे?

देसाय - हें पळयात, वर्गीच वाद नाका. हांव जाय जाल्यार आमचें काम बदलतां.

विश्वास - सर... मात्शे रवात. ह्या गांवचो गांवकार हांव. म्हांका व्हडलो गांवकार म्हण्टात. कितें? ह्या गांवांन म्हजें उतर म्हळ्यार, काळ्या फातरवेल्ली रेग. आंव्याची साल पणसाक दसत, पणसाची पांणगुलां आंव्याक जायत पूण म्हाजें उतर हांगाचें थंय जावचें ना. तुमी बिनदास्त रवात धा दीस. कितें? आनां आमच्या गांवचो हो, वेगळो प्रश्न तुमकां नाका. तो कसो हाताळचो तें आमीं पळयतात. कितें? नोंनल्या, चल, सकयल वचोन पळोवया भुरगें कितें करतात तें. सर तुमी हांगाच रवात. (तळयेवटेन वता)

देसाय - मिस्टर गांवकार, तुमीं कितेंय म्हणात. तुमचो गांव खऱ्यानीच मानवलो. शारांतल्या कॉंक्रीटाच्या जंगलापरस ही पांचव्या झाडांनी आनी पांचव्या पानांनी घुम्पल्लीं जंगलां मनाक थकाय दिवन गेलीं. अंतस्करणांतलें गुपीत ल्हवूच भायर सरचें. तशें ह्या पांचव्या वाटारक पळोवन म्हजें काळीच फुल्लें. (विशाल, रॉनी, रतन येता) एकवटेन म्हजेंच तांवड्या मातयेंन आनीं पांचव्या रंगान शेंणिल्लें भुरगेंपण अचकीत म्हज्यामुखार दिसखुऱ्यानी नाचूंक लागलें. पयलेच फावटी... खूप वर्सांनी.... म्हजो गांव, मातयेचें घर, घरामुखावयलें आंगण, भोंवतणचीं मायेस्त मनशां... सगळें सगळें फिल्मावरी दोळ्यामुखार दिसूंक लागलें.

विशाल - सर, तुमीं म्हण्टात तें सामकें खरें. This Village is really beautiful.

(विशाल, रॉनी आनी रतनान लायम ज्यूस हाडला. तांच्या हातांत आयदनां. ज्यूस ग्लासान घालीत)

गॅनी - सर, आमीं तुकां मनाकाळजांथावन दिनवासता. कित्याक तर, तुमीं हो स्पेशल एन्. एस्. एस्. कँप अेशा ब्युवर्टीफूल सुवातेर ऑर्गनायझ केलो म्हूण.

रतन - (मात्सो घोळयो) अशाच वातावरणांत कविता सुचता न्हय सर?

विशाल - कविता... ! सर, तुमची गांवावयली कविता अशाच वातावरणांत सुचिल्ली आसतली न्हय?

देसाय - खंयची?

रतन - गांवांवयली..... विशा्ल. यू मीन याद येता गांव -

रॉनी - यस्.... सामकें करेक्ट

विशाल - सर, ती कविता आमी सामकीं पाठ केल्या.

देसाय - आरे पूण ती कविता तुमकां मेळ्ळी खंय?

रतन - कॉलेजच्या मॅगाझिनांत छापून आयल्या. न्हय रे विशाल?

देसाय - म्हण्टकच तुमीं मॅगाझीन वाचतात तर. गूड. आयकून मात्शें बरें दिसलें.

रतन - सर सर... हांवें तुमच्यो कविता वाचल्यांत. हांव म्हणून दाखोंव?

विशाल - आरे रतन पयलीं मात्सो व्हड जा. ल्हान भुरग्यांनीं नर्सरी रायमींग म्हणपाची आसता. कविता न्हय (विशाल आनी रॉनी हांसतात)

रतन - सर, पळय रे हे म्हाकां चाळयतात... आवडे खंयचें.

देसाय - आरे रतन मात्सो राव रे.

विशाल - सर तुमीं म्हणून दाखयात न्हय ती कविता.

रॉनी - व्हय सर... ! प्लीज तुमगे आवाजांत पोयम खोऱ्यानीच मोनाक

दोसता. प्लीज सोर.

(भुर्गी नेट करतात. देसायाक न्हयकार दिवंक जमना)

साय - ओके हांव... कविता म्हणटां. पूण तुमींय म्हज्या वांगडा म्हणची पडटली...

गळे - ओके सर !

साय - (देसाया फांटल्यान मूळ मुखडो भुर्गी म्हणटात)

**शारांतल्या घुस्पटींत**
**घुस्पटला रे हांव...**
**म्हाकां आतां याद येता**
**सोबीत म्हजो गांव...**

**शाळेंतल्या दप्तरांनी**
**चिंचो आनी बोरां**
**घोटां पुंजावंक धांवपी**
**तीं घोटांयेदीं पोरां**

**वडामुळांत राखण्यांचो**
**हुऽतूऽतूऽचो खेळ**
**आंगणांत धुळ्ळ काडपी**
**तो शिगम्याचो मेळ**

**'चानयेच्या पिला तुकां तीन पाट**
**रावणान सितेक व्हेल्या दाखय वाट'** - (भुर्गे म्हणटात)
**तेच वाटेन गांवावटेन**
**मन घेता धांव... ।। शारांतले घुस्पटींत.... ।।**

व्हाळाचे देगेवेल्यो
घमघमपी वोंवळी
सुरंगांच्या रंगाची
झाडावेली पांवळी

कासांडेंत वाजपी ती
गायच्या दुधा-धार
हडूडें पेटयत येवपी
तो देवचाराचो भार

'हांगा भगत ना प्रसाद ना
पिसुडल्या रे पाकळी' - (भुग्गं
कोण आतां म्हण्टलो
आमचें बरें जांव ।। शारांतलें घुस्पटी. ।।

ती व्होल्तावयली भिंडीण
तें सावरीचें झाड
सावरीच्या कापसावरी
आज्याचे लाड

न्हिदतना तकलेमुळां
आजयेची मांडी
आजयेच्या मांडयेचेर
कोल्याची काणी

(मजगर्तीन जाण्टें कँसर आनी जानकी ख्रोपांतल्यान भायर येवन कविता

तो आजो गेलो - आजी गेली
गेली कोल्या काणी
ताळ्यामेरेन आयला हुंडको
ओगी कसो रावं.... ।। शारांतले घुस ।।

(मग हुंडको दिना. भुग्गीं सगळकडेन लागीं येनात.

विश्वासराव आनी नोंनलो आइडन येनात. जानकी, केंसर भितर पळटात)

- (भितरल्ल्यान) हे... हो तो.... उजवेवाटेन खणू नाका. सांगल्यार समजना?.. हे... सर.... मिस्टर देसाय, उजवेवाटेन.... हे... (आकांतान उलयता. बडबडटा)

- (भितरल्ल्यान) गांवकार, गांवकार..... आता काय, काय जातलां.... तुमीच बघा.... (बडबडटा)

उलयतना एक प्रकारचो गोंधळ. तेच अवस्थेंत दांगूय माचयेर पावतात)

- सर..... मिस्टर देसाय तुज्या विद्यार्थ्यांक सांग उजवेवाटेन खणू नाका म्हण...

- गांवकारांचा आयकत नाय ते.

- उजवेवाटेन......! आरे पूण कित्याक?

- सगल्याच प्रश्नांक जापो नासतात. तुमकां सांगलां तितलेंच करा...

- (असहायतेन) ओके...वॉबी, विनोद, सिया, रॉबीनसन (भायल्यान तळयेतल्यान विद्यार्थ्यांचो आवाज. यस सर, सर) लिसन...

(भायल्यान - किते सर) listen me first तळयेचें उजवेवाटेन खणू नाकात. (भायल्यान - कित्याक सर)don't ask any question just follow the instructions (भायल्यान ओके सर)

- जावं सायबां जीव वाटावलो.

- आरे पूण हें अशें कशें? मिस्टर गांवकार??

- ह्या मारकुट्यांनी केल्लें पाप तें माथ्यावयल्यान पायामेरेन पावपाचेंच. कपलफुटक्यांक वस्तान वसोवपाक आमचोच गांव मेळ्ळो. आमचो देव देवस्थानाचो वाटार भ्रश्ट करून उडयला ह्या सुण्यांनी.

नोंनलो - पूण गांवकारा, आमचां काय चुकलां.

विश्वास - तरीय तोंड वयर करून विचारता पळय. त्या दिसा मसुंडेंत तूंच सुबेज उलयतालो मरे? हां? कितें रे?

देसाय - देव देवस्पण, मसुंडी...! मिस्टर गांवकार हें कितें चल्ला... I am sorry! I should not interfear but... म्हाकां समजना हें कितें चल्ला?

विश्वास - Yes Prof. Dessai, your right... you should not (तापून) You should not interfear in our matter. आमच्या गांवच्या राजकारणांत तुमी पडूं नाका. तुमी धा दिसांक आयल्यांत. मजेन रावात.

देसाय - मिस्टर गांवकार ---

विश्वास - बस... विशय सोपलो. चल रे नोंनल्या.

देसाय - ओके....

(भुरग्यां लायम ज्युसाचे ग्लास सराकडेन दितात.)

एक मिनीट मिस्टर गांवकार..... भुरग्यांनी तयार केल्लो लायम ज्यूस तरी पिवन वचात.

विश्वास - सॉरी आमी घरा भायर कांयच खायनात.

देसाय - हांव पियेवपाक म्हणटालो.

विश्वास - (वाणिकसाणेन) म्हारवाडींत उदं रावन आमीं उदकय केन्ना पियेना. समजलें मिस्टर अरविंद देसाय? (वता)

देसाय - नोंनल्या भाऊ, तुमी तरी घेयात.

(नोंनलो घेवंक मुखार सरता. भियेता. विश्वासराव 'नोंनल्या' म्हण आड्डनकच पळन वयता. भुरगीं हांसतात. सर हातांतलो ज्यूस पियेता)

विशाल - सर, कितें भयानक मनीस हो.

रॉनी - सामको हिटलराचो पाय केसो मरे.

रतन - म्हाका दिसता ह्या गांवांत जायतीं गुपितां लिपल्यांत.

देसाय - तें आसूं ! तुमीं ज्यूस पियेले ?

सगले - हय सर

देसाय - आनी सकयल तांकां दिलो?

रॉनी - व्होय सोर, फोकोत एक न्हय दोन दोन पावटीं.

रतन - सर म्हाका एकूच ग्लास दिल्लो.

विशाल - रतन पुरो रे. सराक खबर आसा तुवें चार तरी ग्लास घेतल्या आसतले.

रतन - चार न्हय हां, चार न्हय. तूं वोगीच बोगलाट घालून नाका. हांव फक्त तीन ग्लास पियेल्लो. (सगळीं हांसनात) मसणांत वचात रे तुमी... देव पळयता हां सगळें .... पुरो करात.

विशाल - (चिंतून) एक मिनीट, एक मिनीट, रतनान कितें म्हटलें? मसणान वचात? देव पळयतलो? सर, सर, विश्वासगवान....आय मीन व्हडल्या गांवकारान अशेंच कितें तरी म्हटलें, सर म्हाका दिसता. आमी समजता नितलो हो गांव शांत, सुसभ्य ना. निखालस ना. म्हाका दिसता ह्या शांत शितळ रूपा पोंदा एक अस्वस्थताय लिपल्या.. मनीसपण हुमटावन उडोवपी पोंजडेंन दडलां. पूण नक्की कितें तें मात समजना.... आर मीन (आडखळता, चिंतता) म्हाका एक्सप्लेन करपाक कळना.

रॉनी - व्हॉय सर, म्हाकांय कांय सोजमोना.

देसाय - My dear students आमी समजतात तितलो हो गांव सादो सुदो निखालस ना. सारकें तुमचें. म्हज्या हिसपान हो गांव

भितरल्यान धगधगता. व्हॉल्केनोभशेन खतखतता. जाती-कातीच्या नांवार घुस्मट्टा.

विशाल - सर, हे आजूनय चलता? आय मीन जाती-कातीच्या नांवाचेर मनशा-मनशामदल्यो ह्यो वण्टी आजूनय तश्योच आसात?

रतन - सर, हें अशें कशें?

विशाल - आमकां सामको शॉकूच बसला हें पळोवन.

रॉनी - सोर ! तुमीं वोगी कित्याक? से समर्थांग...उलय.

देसाय - कितें उलोंव... आनी कितें सांगू तुमकां? आयज पन्नास वर्सां हुपूनय आमी खरेपणान स्वतंत्र नात... आमचो देश काश्मीरसावन कन्याकुमारी आनी गोध्रा साकून आसाममेरेन धगधगता हें सांगूं? काय स्वतंत्रदेवता भितरल्याभितर तळमळटा, काश्मीराचो घावो मातेर जावन फळफळून उक्तो पडला हाचेर लेक्चर दिवं? आमचे तरनाटे जवान सैनीक हड्डयांचीं कोटां करून बर्फाळ वाठारांत रगत आटयनात आनी आमी हांगा जातीच्या धर्माच्या नांवार एकामेकांच्यो तकल्यो फोडटात हाचेर विवेचन करूं? इतलेंच कित्याक? हांगा रामसेवेचें नाटक करून रावणाची कर्तुबां करतना इतिहासाच्या पानांचेर परत एकदां रानवटी संस्कृताय रूजवणाक येता, हाचेर भाशण दिवं? काय मतांच्या राजकारणांत मनशांच्या प्राणाकडेन जुगार खेळटल्यांचेर भासाभास करूं...?

रॉनी - हें ओशेंच चोलतलें सोर? हेका काबार करूंक जावचेंना?

विशाल - हाका शेवट ना सर?

देसाय - आसा. शेवट आसा. ह्या सावार प्रस्नांक सुटावो आसा.

रतन - आसा?

देसाय - हय. हो सुटावो कोणी दिवपाचो खबर आसा तुमकां?

गळे - कोणी?

साय - तुमी

गळे - आमी?

साय - हय ! तुमी. आयज ह्या भुंयेंग पार्तांळल्लो काळोख पयस करपाचें वळगें फक्त तुमचे कडेन आसा... सळसळट्या रक्ताकडेन आसा. सांगात.... आसा तुमचेकडेन स्वाभिमान? (सर उबारार पावला) ह्या भुंयेच्या अस्मितायेचें रक्षण करपाचें आसा तुमच्यांत धाडस? (भुरगे बुचकळ्यांन पडटात) सांगात.... तुमच्याच आवय भयणीच्या पालवावटेन मुखार सरिल्लो दुश्यासनी हात मुळासावन हुमटावपाक आसा तुमच्यांच शक्त? (आतां एक नवो नेट सगळ्यांचेर आयला) उलयात....

गळे - (फाटीं फुडें) हय... हय... आसा.

साय - तशें जाल्यार पेटूंदी तुमचीं रंद्रांरंद्रां. घडूंदी अभिषेक तुमच्या रक्ताचो... घडयात नवो दिश्टावो..... नव्या क्रांतीचो... मनीसपणाचो ....मानवतेचो. चलात ! सरात मुखार आनी घालात बुनयाद खऱ्या राष्ट्रीय सेवा योजनेची.

(सर थंयच उबो आसा. भुरगे विशिश्ट पद्धतीन घोशणा दितात)

**तुमकां आमी सांगता आयज**

**तोडात मोडात कालचें दायज**

**मोख आयज आमची नेक**

**ल्हान व्हड सगळीं एक**

**पेटोवया आयज हीच वात**

**सोबीत सोबीत मनीस जात**

**सोबीत सोबीत मनीस जात.**

(ल्हव ल्हव 'हम होंगे कामयाब' गिताची धून आयकूंक येता... भुरग्यांक नवी स्फुर्त चडल्या. तांचेर उजवाडाची तेर्जीस्ट धार पडटा - काळोख)

## देखाव - २

(उनपार्चीं सादारण तीन वरां जाल्यात. झिलू-जानकीचो घोव झळकून येता. ताका उबो रावपाची सम्रुती ना.)

झिलू - (वडवडत येता. मर्दीं कानामच म्हण्टा.) यो.. यो.. वायलें यो. मागं दी पयलां.. मागं दिना जाल्यार तुजो फांडटलों तोकलो... अव्वा! ही जमीन कित्याक हालता रे? हां... शू ऽ शून.. हालू नाका. हालूं नाका. ओगी. ओगी. (बसता) हां.आतां कसो जालां? शाब्बास...आरे हांव हंयसर घरा येयला. म्हाकां कोणूच पळयना. जानक्या ! गो जानक्या... गेंड रडून गेला भाड्याक पडोंक. जानक्या? आज बघुनूच घेतां तुकां राव. जानक्या? (भिरगल्यान-कितें जाला. कित्याक बोंवला मारता') गेंड ! म्हाकां म्हण्टय बोंवला मारता. बोंवला मारता? हय बोंवलाच मारतंय तूं मेला म्हण बोंवला मारतय. भायर सर तुजो जुंदेव काडटां आतां. जानक्या... जानक्या...

जानकी - (येता) काय जाला बोंवला मारपाक? आजून जितें आसा हांव. मरतकूच मारात बोंवलट.

झिलू - तुजी फाट खांरजल्या काय गो? म्हाकां शाणपणां सांगतलय तूं? हां ! बरेंच मद चडला मगो तुकां.

जानकी - मद म्हाकां न्हू. तुकांच चडला. सोऱ्याचो तो.

झिलू - अव्वा ! हां ! पूण राव गो. हांव तुजो घोव काय तूं म्हजो घोव?

जानकी - घोव ! घोव खंयचो? हो? हो घोव फातराचो? दगडाचो ? काय मेणाचो?

झिलू - जानक्या म्हाकां फातराचो म्हण्टां? म्हाकां दगडाचो म्हण्टां? गेंड? राव तुजी फाट मोडून काडटां. बघूच तूं आतां.

जानकी - आर्नीक काय जाना तुमचेकडेन. मारतलय मां? मारात ! मारून खायात. मारात. (रडटा)

झिलू - जालां ! पिंजलां तोंड. हे वघ. हे नाटक चलपाचां नाय. काय? चल, म्हाकां भूक लागल्या. वाड म्हाकां. मचमर्चीत वाड.

जानकी - मचमर्चीत खंय ! घरांत ना एक तांदळाचो दांणो. पाणी पियेवन पडात थंय वोगी. चार दुडू जोडची नाय अक्कल. मचमर्चीत जाय खंय महाराजाक. हूँ ऽऽऽ

झिलू - (तापून) वाड म्हण्टां हांव.

जानकी - घरांत तांदूळ ना.

झिलू - अच्छा ! तांदूळ ना.तांदूळ ना तर मग.. पेज वाड. चल पेज वाड.

जानकी - (कपलार हात मारीत) तांदूळ ना मगेर पेज खंयची वाडूं?

झिलू - अच्छा ! पेजय ना. पेज ना तर मग गोडसां कर, मणगणां कर,

जानकी - (निर्शेवन) मणगाणें कित्याक? आतां शागोतीच करून खायात म्हाजी.

झिलू - अच्छा ! शागोती, (लाळ घोटीत) कर, शागोती कर, मटण कर, सामकां मचमचीत जावंदी. काय?

जानकी - पाड पोडो म्हज्या नशिबाचा. देवा परमेश्वरा, ह्या कट्टलाक भुराक रे कित्याक घातलंय एवढो?

झिलू - गंडच्या ! पाड पोडों म्हुण्टा म्हाकां? तूं ह्या झिलू पारवाराचें पाड पोडों म्हुण्टा? पोटाच्या, वर्गी चरबी चडल्या तुजी. गव तुजी चरबी देवयतय बघूच तूं.

( केंसऱ्याक धरून तिका जमनीर आपटिना. तिच्यो हुयेली. जाण्टी दांडो घेवन वाटावपाक येता. झिलू तिका धुकलून उडयता.)

केंसर - धांवात रे. कोण तरी धांवात रे. पोरक मारलां रे, धांवात रे. (नोंनलो येवन जानकीक काडून घेता.)

नोंनलो - झिलग्या, भयजवऱ्या, पिसावला काय रे? तूं काय करतय तुकां तरी कळटय मां? सोऱ्यान वेडो-बिडो जालो काय रे तूं?

झिलू - हे नोंनल्या?

नोंनलो - वा ! वा ! झिलग्या वा. नोंनल्या वाप्पाचो नोंनलो जालो. शाब्बास, शाब्बास ! वालोर तुकां. वरी प्रगती सादलय झिला. वा. पण काय रे? ह्यां काय तूं चलयलाय तेचो परिणाम काय जातलो म्हायत आसा मरे?

झिलू - (तिकडता) नोंनल्या?

नोंनलो - आवाज वाडोव नाका. कसला मद चडला रे तुकां? सोऱ्याचो? आनी कोणाच्या जिवाचेर? ह्या माय-सुनेच्या काय रे? एक सांगून दवरतय झिलग्या, तेंच्या फाटल्यान कुत्र्यापाश्ट अवस्था जातली बघ तुजी. आनी ते गांवगुंड जेंचेबरोबर तूं भोवतय, तेंच्यानी तुजो गळो कापलो नाय तर बघ तूं.

झिलू - हे नोंनल्या, फोनल्या? तूं आमच्या भानगर्डांत पोडों नाका. पयल्यापयर्लीच सांगून दवरतां तुकां. चल वोस. ह्या गंडेचां सोणकुलूच फोडटां आतां.

नोंनलो - (आडयता) हो नेट काय सोऱ्याचोच मां?

झिलू - नोंनल्या, म्हातुकड्या एक मूट मारीत जाल्यार पाणी मागपाक पावचो नाय तूं. कित्याक फर्कादाय दाखयताय?

केसर - आरे झिलग्या, पोरा, काय करतय तूं? (रडटा) पोरा, तूं असा काय करतय?

झिलू - काय करतय? बघूच तूं आतां. हे नोंनल्या, तूं म्हाकां सांग. ह्या घराचो मालक कोण? तूं काय हांव? ह्या बायलेचो घोव कोण? हांव काय तूं? सांग रे? (तापून) मागीर हडेन काय करतय? तूं मीण काय कितें रे म्हाज्या बायलेचो?

(नोंनल्याच्या आंगार वयता केंसर मर्दी पडटा. जानकी रडटा. केंसर अस्वस्थ)

केंसर - झिलग्या ! पोरा काय बोलतय तूं? आरे तुज्या बापायच्या पावलार पावल दवरूं नाका. अशान निसंटान जातलां कुटुंबाचां. (रडटा)

झिलू - म्हाज्या मोगाच्या आवशी, निसंटान जावंचां आसलां तर जातलांच, मग तूं कित्याक वयर सकयल जातय? वोगी बस थंय. (जानकीचो हुंदको आयकून झिलू तापता) रांडे, हांव जिवंत आसय आजून. तोंड पेंचून रडटा कोणाक मिणाक?

नोंनलो - (तापता) झिलग्या !

(झिलूच्या आंगार वता. झिलू फांटल्यान सरत तळयेवटेन वयर उबार सुवातेर वचून हांसता. ताचें हांसप हेडावपी आशिल्लयान जानकीक, नोंनल्याक आनी केंसराक असहाय्य जाता. केंसर दांडो आपटीत मुखार सरता.)

केंसर - हांस, भयजवऱ्या हांस. पोट फुटासर हांस. ज्या रक्तान तुकां णव म्हयने पोटांत पोंसलो, हाडाचीं ताडां करून एरंड कसो वाडयलो त्या रक्ताक हांस. तूं, तूं असोच हांसलेलो झिला. व्हडल्या गांवकारगचा माड पाडटाना पांय निसरून पडलेल्या बापायचा फुडलेलां पोट वघून असाच हांसलेलो झिला, घरादारावयल्यान रेल्वेगाडी वयताना, घराचे, मेळलेले पैशे झोमून घेताना सोऱ्याच्या झनार तूं असोच हांसलेलो झिला. मसुंडेंत सरणार पेटपी मड्याक गांवकऱ्यांनी भिरकाटावन उडयल्लां तेन्नाय, तेन्नाय 'तणान भाजलेलो वांगडो म्हणात'... असाच हांसलेलो तूं झिला, असाच हांसलेलो. हांस झिलग्या हांस, पोट फुटसर हांस. हांस (खरशेता, धाप लागून बसता)

(भितरल्यान बाबू आनी बाबगो- गांवगुंड, झिलग्याक 'हे झिलग्या' म्हणीत उलो मारतात. बाबू-गुंड-१, बाबगो गुंड-२)

झिलू - कोण रे? (सोऱ्याची धुंदी मात्शी निवळल्या) कोण थंय?

( बाबू, बाबगो येयात. दोगांयच्या हातांत दांडे आसात. केंसर-जानकी खोंपींत वयतात नोंनलो खोंपीफांटल्यान वता.)

गुंड-१ - कितें रे मरतुकड्या वळख विसरलो?

गुंड-२ - (स्वभावान मात्सो विचित्र) गूड, वेरी गूड! विसर, वळख विसर, पूण आमचे दुडू मात विसरूं नाका.

गुंड-१ - हय ! नाजाल्यार 'बाबू पोकळो हिशोब मोकळो' म्हूण हात झेलयशी झिलग्या.

झिलू - ना रे, तुमचो पयसो.. दितां हांव, आवर्शाच्यान.

गुंड-१ - आवर्शाच्यान कित्याक? (भितर पळोवन) वायलेच्यान कित्याक न्हय? (हांसता)

गुंड-२ - गूड व्हेरी गूड!

गुंड-१ - कित?

गुंड-२ - खोप, खोप, (भितर पळयता)

गुंड-१ - वा बाबग्या वा ! तुजी पसंती मानवली हां? (अभिनय करीत) सामकी तिखट मिरची.

झिलू - आरे बाबू, बाबग्या बसात मरे.

गुंड-१ - वसूया, वसपाक कांय अडचण ना. तूं सांगल्यार आमी न्हीदपाकय तयार आसात. कितें रे बाबग्या? (ताळी दितात, हांसतात)

गुंड-२ - गूड, व्हेरी गूड!

झिलू - (अडेचें हांसत) सारकें, सारकें.

वावू-१ - झिलग्या, म्हाका सांग रे, हो खोपीफांटल्यानसून गेलो तो कोण रे?

झिलू - नोंनलो.. तो..

गुंड-१ - वाबग्या त्या दिसा मसुंडेंत सुबेजपणा करी तो होच मरे?

झिलू - हय, हय सारकें, सारकें. (हांसलल्या भशेन करता)

गुंड-१ - शूत ऽऽ सारकें कितें? पयलीं दुडू उडय हातांत.

झिलू - दुडू ऽऽ फाल्या, फाल्यां दितां. आवशीच्यान.

गुंड-२ - आवशीच्यान न्हय, आवशीच्यान न्हय.

झिलू - (अडेचें हांसत) सारकें, सारकें,

गुंड-१ - कितें?

झिलू - वायलेच्यान तर (दोगूय हांसतात) बाबू, ते... ते.. धा रुपया आर्नीक...जाय आसले... एक पाव मारूंक. (माथें खाजयता)

गुंड-०२ - (धा रुपयांच्यो नोटी भायर काडून) झिलग्या तुजी खोप मानवली हां, मेंटेन बरी केल्या. भायली आंगलट मात्शी झिरझिरल्या, पूण बॉडी सामकी ते भशेन मरे? बावू ! हांव कितें म्हण्टां, एक दीस घेवया पळोवन ह्या खोपीक; भितरसून रे, कितें झिलग्या?

झिलू - सारकें, सारकें, येयात जाय तेन्ना येयात खोप तुमचीच आसा.

गुंड-१ - सारकें मरे? सारकें मरे?

(वावगो एका एका नोटीक शेमूट पुशिल्ल्याभशेन करीत हवेंत उडयता. झिलगो त्यो अधाशाभशेन वेंचता - काळोख - )

## देखाव -३

( उजवाड जाता तेन्ना जानकी उद्‌वस्थ जाल्लेवरी खोंपीमुखार पडल्या. कॉलेजचे विद्यार्थी हातांत सर्वे कप्पाचीं फॉर्मा घेवन येनात. येताना पिकनीक मुडांनूच सगळें वागणें. भितल्ल्यान हांसप, खिदळप, गावप चालूच आसा.)

रॉनी - माडा वयल्यान चडलों आनी, चुडटावयल्यान देंवलों.

सगळे - अलिबाबा ऽऽऽ.

रॉनी - कालमांव घालून गेल्लों आनी चेड्डी चडोवन आयलों.

सगळे - अलिबाबा ऽऽऽ.

रॉनी - वायलेवांगडा गेल्लों आनी मेवणेंक घेवन आयलों.

सगळे - अलिबाबा ऽऽऽ

रॉनी - उजवाडान चकाचक आनी गतचें सगळें घसाघस.

सगळे - अलिबाबा ऽऽऽ

( गावन ज़ातकच सगळे परत हांसनात, खिदळटात. केंसर खोंपिंतल्यान दांडो घेवन भायर सरता. तिका भुरग्यांच्या वोवाळांतल्यान जानकीची वाडत वचपी अस्वस्थनाय पळोवंक जायना. ती तिडकता.)

केंसर - (दांडो आपटीत) बंद करात, बंद करात; ह्यां काय तां

विशाल - कितें जालें जाण्टेले?

केंसर - दरेक मार्कंक जाय असल्या पोरांक. आरे झिलानो काडीन वचात हडेंसून. बोंबलू नाका हडेन.

विशाल - जाण्टेले हें पळय -

केंसर - जाण्टेलो? तुज्या कानांतल्यान येयल्या काय नाकांतल्यान? वर

वघताय कसो तुकतुकीत जसो म्हाकां फाडून खातलो.

स्मिता - आज्यं आमीं मगे Socio Economic Survey क आयल्या. आयज आमचो निमाणो दीस.

रॉनी - स्मिता तू Socio Economic Survey म्हुण्टाय, तें तिका केशें कोळटोले?

स्मिता - ओके ओके. आज्जे आमीं मगे सर्वेक आयल्यात. (तेवटेंनल्यान जानकी आड्डता.तिचें कपल भंगला, केंस मानेर आसात. ती विचित्रपणान वागता, हांसता)

रतन - हय आमी सर्वे करपाक आयल्या.

जानकी - येयलो? ये, वस. तुजीच वाट वघत हुती. (ती धोलिल्लेभशेन करता)

रतन - (भियेंता) म्हाजी... आवय देवा...माय गोड !

जानकी - म्हाकां म्हायीत आसलां तुमीं येतले म्हुणान.

सगळे - म्हायीत आसलां?

रतन - म्हाकां भंय दिसता. सर सर (पळूंक सोदता ते आडायतात)

विशाल - रव रे रतन, सामको भियाड्डो मरे तूं. सामको दिवड कसो. रव थंय.

जानकी - चला.. समोर येयात. (हांसता)

रतन - ना. ना... म्हाकां भंय दिसता... सर. सर. (आड्डता, धांवत सुट्टा)

जानकी - शून ५५५ वोंवला मारू नाका. चला येयात. कोण देंवचार येता पयलीं? सगत मुखार. आतां काय धाड भरली? येयात. पिसडून वडयात म्हाकां. गंडच्यानो तुकडे-तुकडे करात. म्हाज्या शरीर. तोडात. पिसडात. भुड्डान भुड्डान खायात ह्यां कुडीचा मास. (भितरल्यान सगळें दुःख ओंकिल्ल्या भशेन)

म्हाजे कपडे कोंचून कोंचून काडात. म्हाजे हात, पांय, म्हाजा वांडूक वुचकावन खायात. मागत, मागत म्हाकां... आवय, देवा.. परमेश्वरा,

( व्हडल्या व्हडल्यान रडटा, रडटनाच हांसता)

विशाल - आगे, आज्जे तिचें जालां तरी कितें?

जानकी - हे, देवचारा....

रॉनी - देवचार?

जानकी - (हांसता) देवचार म्हायती नाय? दोन पायांचे देवचार. काळे कुळकुळीत उचलून व्हरतात ने उचलून.

रॉनी - आगं माय, चोय गे. येशें कितें उलयताय गे ही?

विशाल - रॉनी, म्हाकां दिसता, तिचेर भार आयला.

रॉनी - शट अप विशाल. भार, वार, कांय नासताय These are all believes. I wont believe it. आगं मांय कितें जाला गे तिगें?

स्मिता - आज्जे, आमी शारांतल्यान आयल्यां. तुजेवरीच आमच्याय घरांत एक आजी आसा. तूं आमकां आज्जे भशेनच. सांग कितें जाला तिचें?

विशाल - सांग आज्जे -

(कॅमेर वरती. इतल्यान रतन सरक घेवन येता)

रॉनी - हो पळय, चोय मांय,होआमगेलो सोर. सांग. तुगे प्रोब्लॅम कितें तें (ती रडटा)

स्मिता - रडूं नाका

विशाल - तुवें सांगल्याशिवाय आमकां कशें कळटलें आज्जे.

देसाय - सांग ! सांग जाण्टेले कितें जालें?

केंसर - सांगता, सगळें मुळांसाकून सांगतां. तिचें नाव जानकी. मियां म्हातुड्डी तिची मांय. आमी ह्या खोर्पांत तिगांय. हांव दळदिरें, सून आनी पूत. आर्मीं मूळचीं हांगासल्ली न्हू पुता. थंय पलतडी आमचें मातये घर आसलां. कुशीक इल्लें पोरसूं आसलां. ती ती व्हडली गाडी येयली आनी घरादाराचें निसंटान घडलें.

रतन - व्हडली गाडी?

केंसर - हय व्हडली गाडी. ती सोरपासारखी.

देसाय - हां हां, रेल्वे.

रतन - हय, हय कोंकण रल्वे. बरोबर बरोबर.

केंसर - हय, तीच ती. रेल्वे येयली आनी सगळां व्हांवून गेलां. निसंटान जालां. आतां आमच्या घरार इश्टेशन जालां. इश्टेशन.

देसाय - अशें कशें तर. रेल्वेच्या पोंदा गेल्लया घरा-शेता बदलाक तुमकां ताचो मोबदलो मेळूंक ना तर?

केंसर - मेवळो ऽऽ मोवदलो मेवळो ऽऽ फक्त दुडवांचो. घराच्या बदलाक घर मेवळाना, पोरसू मेवळाना, शेताकुडको मेवळाना. मेवळा पयसो कागदाचो. आनी तोवूय ह्या रांडेच्यान झिलग्यान खाल्लो. आमकां वाऱ्यार उडोवन.

विशाल - म्हणजे?

केंसर - काय सांगू पुता? म्हाजो झिल एक नंबर वेवडो. मेळलेलां सगळो दुडू सांऱ्यान-ईस्पिकार्नी सोपयलो आनी पानां पुसलीं आमच्या तोंडाक रांडेच्यान.

विशाल - मागीर ही खोप....

केंसर - ह्याच मुनेन उवी केली. हडेन ह्या आपल्या गांवांत हाडून आमकां तकली लिपोवपाक एक पाखें दिलां. धा पुस्तकां शिकलेलां पोर

नां. पूण घराच्या गर्रावीक लागून घराच उरलां. हांव म्हातुकडी खाता वसोन आनी ह्यां पोर कावाड कश्ट करून, लोकांच्या शेता-भाटांक पाड घालून भरता पोटाचो खळगो आमच्या.

स्मिता - तशें जाल्यार तिका आतां कितें जालां? हीं पिशेपणां?

रॉनी - व्हय ! येशीं पिशेपणा किल्याक कोरता तीं?

स्मिता - सांग आज्जे. भियेनास्तना सांग.

केंसर - सांगता. सगळां सांगता.तीं टीस खंयचो म्हायतो ना. पुणून त्या दिसा लईराईची जात्रा आसली. गांवचे धोण गाड्यांनीं, ट्रकांनीं शिरगांवा वयताले. मटच्याभाशेन झिलू येयलो तो गंडेचो डोलतूच.

(फाट्या दिसाचो प्रसंग. झिलू टोनूय गुंडावांगडा सोऱ्याच्या नशेन धोलता.)

झिलू - यो वायले यो... सोरे टी पयलो. सोरे दिना जाल्यार तुजो फोडटलो दोळो. जानक्या?

जानकी - (येता) जाला बोंवला सुरू....

झिलू - हय मियां बोंवलाच मारता - तुजो बापूय मेलो म्हणान.

जानकी - म्हाज्या बापायक वयर काडू नाका. सांगून दवरतां. म्हाजो बापूय तुगेर जेवांक योवूंक ना.

झिलू - आवय म्हजे माय.तुजा वापूय मोठो मिनेर काय गो? मार वापायची वडाय मारता. मेलो तो गेलो. ह्या खांदावयल्यान पावयलो तेका.

गुंड-१ - हे झिलू आमचे पैशे उडय आमी चल्ले.

गुंड-२ - झिलग्या बेगीन पैशे उडय.

झिलू - असा काय करता? रावात मरे. पयलीं डल्लें जेवान तरी घेवया.

गुंड-१ - शी...! तुमगेर? म्हारांगेर आमी जेवना. चल बेगीन.

गुंड-२ - हे राव रे. मात्सो राव.

झिलू - तुमी म्हाजे मित्र न्हू? मार्गार जेवान वयचेंच पडटलें. जानक्या चल जेवांक वाड आमकां.... चल म्हुण्टां न्हूं.

जानकी - पाड पोडों हेंचा. कसला फुटकां नशीब दिला देवान.

झिलू - पाड पोडों कोणाचें म्हुण्टा गो?

जानकी - तुमचां.

झिलू - फाट खोरजल्या काय गो?

जानकी - आणखी काय जाता तुमचेकडेन? मारतल्यात मां, मारात.

झिलू - मारूं? मारूं? म्हाकां दिसता फाट बरीच खोरजल्या. हार्ली मार पडोंक ना तुकां. घे. खा.

( झिलू जानकीक मारीत रावता. तिच्यो हुयेंली.)

गुंड-१ - हे झिलू, पुगे.. नाटक सोपय तुजें. हें पळय म्हाजे २००० आनी वाबग्याचे १५०० मेळून ३५०० दिवचे पडटात. खेळटना बरे रडोन रडोन घेतले आनी आतां दिताना पिरंगता.

गुंड-२ - झिलग्या उलय तूं कितें करता? पैशे उडयता काय तुकांच उडोव आडवो?

झिलू - जानकी म्हाकां पैशे दी. तेंचे पैशे दिवपाक जाय.

जानकी - हांव खंयचे दिवं पैसो? आसलेलों सगळो घातलो मड्यार तुज्या.

झिलू दिता काय ना गो? (झिलूची नदर तिच्या मंगळसूत्राचेर पडटा) दी...तें मंगळसूत्र दी. मदलो मर्णाच दी. दी म्हुण्टा न्हू? (ती ना, नाका म्हूण विनयता. रडटा. झिलू मंगळसूत्र तोडून घेता आनी गुंड-१ कडेन दिता.)

गुंड-१ - इतल्यान कांयच जावंचेना. उरिल्ले पैशे उडय.

गुंड-२ - म्हाकां दिसता हेचेकडेन कांयच ना. वावू चल हाच्या खोपींत वचून समानूच व्हरूया. (जानकीकडेन पळयतात उपरान्त खोपींत वतात)

झिलू - व्हरात व्हरात सगळें व्हरात. सगळें हायेनूच पुसून खाल्ला. तुमकां काय मेळटलां? व्हरात (हांसता)

( गुंड सामान सोदतात. मडकी उखलून फोडटा. बेजार जाता.)

गुंड-१ - मेवळें, मेवळें (जानकीच्या हाताक घट्ट धरता.)

जानकी - सोड सोड म्हाकां.

गुंड-२ - शाब्बास बाबू शाब्बास! गूड व्हेरी गूड!

गुंड-१ - हे झिलग्या, तुजे पैशे आमी तुजे वायलेकडच्यान वसूल करता. ही पळय तुजी बायल आमी घेवन वयता.

झिलू - आरे पूण म्हाजे वायलेचें तुमी करतलां काय?

गुंड-१ - जें तुवें कर्रूंक ना तें करतले. (हांसता)

गुंड-२ - चल, चल बेगीन, चड नाटकां करूं नाका चल.

जानकी - सोडात म्हाकां. आरे राक्षसानो, देवाक तरी भियात. एका वायलेक तिच्याच घोवासमोर उचलून व्हरताना तुमकां कांयच कसा दिसना?

गुंड-१ - घोव... (हांसता) घोवपण नासलेलो घोव तो.

गुंड-२ - तूं भियेवनाका आमी तुकां मासणाखातीर व्हरना. फकत चार दीस दवरतां.

गुंड-१ - खरें म्हळयार फक्त दोन दिसांनी पैशे वसूल. पूण वयलो इंटरेस्ट आसा न्हय? म्हूण चार दीस. (हांसता)

गुंड-२ - कितें झिलग्या व्हरू मरे?

झिलू - व्हगत-व्हगत. चार दिवस कित्याक? चार म्हयने दवरान. पाड पडलेली पिडा गेली. रांडेन एक दिवस सुशेग दिलो ना. आतां हांव ह्या घराचो राजा. (हांसता)

जानकी - धांवात रे कोणतरी... आवयगे... धांव गे..

( तीं रडटा. गुंड तिका भरभरीत ओडीत व्हरता. झिलू हांसता. काळोख. परत उजवाड. आतां पयलींचो देखाव. सर्वेचीं भुरगीं आनी शिक्षक खंतीन वेगवेगळ्या जाग्यांचेर बसल्यांत.)

केंसर - चार दिवस आनी चार रात्री तिचो पत्तो लागला नाय. पांचव्या दिवसा सकाळीं ती अशा अवस्थेंत हांगा पडलेली मेळ्ळी. देवक मार म्हाकां व्होरेन. हांवूय तेन्नांच रानांत लाकडांक गेल्ली. पाड पोडों म्हाजें.

रॉनी - पोलिसेंत कित्याक कळोयलें ना?

केंसर - पुलीस आनी खंयचे झिला? पुलिस २० कोस दूर आसत. तेवूय तेंचेच पावणे. हांगा गरीबाक जागो ना रे पुता. (रडटा) आमच्या नशीबाक पडला फोंड थंय पुलिस काय करतले? (पुलिसांचें नांव काडटनाच जानकीची अस्वस्थकाय वाडटा. तें मर्दींच हांसता, वडबडटा)

जानकी - पुलीस !.पुलिस ! मार पिल्लूक, मार पिल्लूक. (हांसता) ह्या गांवांत फक्त दोन पुलीस आसत. एक बावू, दुसरो बावरो. बावूक लायलो शावू आनी बावऱ्यान खाल्लो कावू. (हांसता) तुकां म्हायती आसा काय रे? पुलीसांकडेन फेरनुलां आसतात. ते गुळ्ळयो मारतात, डिशांव डिशांव. (मर्दींच रडटा) आवय नाका मारूं नाका म्हाकां. मारूं नाका. (रडत धांव मारता. जानकी खोपी फाटल्यान रंगमाचयेच्या दावेवटेन धांव मारता. केंसर, 'जानकी-जानक्या' म्हण आडुता)

ंसर - धांवात रे. धांवात रे, पोर जीवाचा काय वरा वायट करीत धांवांत रे.

सर - रॉनी, विशाल, हरी अप, कमओन रतन.

(सर, विद्यार्थी आनी केंसर जानकी फांटल्यान धांवतात. 'जानकी, आंटी, आगे राव' अशे शब्द आयकूंक येतात. हेवटेंसून वावू-गुंड-१ आनी वावगो-गुंड-२, झिलग्याक दांड्यार घालून उवारून घेवन येतात.)

गुंड-१ - हे जाण्टेले भायर सर.

गुंड-२ - भायर सरता काय ना गे?

गुंड-१ - मातुड्डेक मद जाला मद.

गुंड-२ - खंय लिपल्या? भायर सर. तुर्जी हाडांच मोडून घालतां.

केंसर - (खोर्पीफाटल्यांनसून येता) काय जालां? (झिलग्याक पळोवन) आरे झिलग्याक काय जालां म्हाज्या झिलग्याक?

गुंड-१ - तुकां सांगलेलें मगे तोंड धाप म्हण.?

केंसर - हायेंन काय केलंय?

गुंड-२ - गूड व्हेरी गूड! वयल्यान काय केलय म्हण विचारता? वा ! आमच्या गावांत गवोन आमकां शाणपणां? वावू धर नाका. (वावू झिलूच्या केसांक धरून मान पिळटा.)

केंसर - नाका, म्हाज्या पुताक मारूं नाका. जाय जाल्यार म्हाकां रांडेक मारात.

दोगूय - तुकां मारूं? (हांसतात)

गुंड - तुकां मारचेपयलींच मेल्या तूं. हाडां जाल्यात तुर्जी. तुकां मारल्यार आमचेच हात दुखतले.

गुंड-२ - वावू, पळयता किर्ते? धर ताका. किर्ते गे जाण्टले? त्या मास्तराक चाड्यो सांगता? राव तुकां दाखयतां. (केंसांक धरून झिलूच्या मानेक खांदावेलो वालो गुटलायता. झिलूची तडफड. फांम आवुळटा तशी जाण्टीय हुयेल्यो मारता. धांवात, धांवात' म्हण आड्डता. मर्दी येतकूच निकाय ते धूकलून उडयतात. झिलूची थोडोवेळ फडफड. उपरांत मान पडप. मान उडयतकच ते झिलूक जमर्णार उडयतात. केंमरार्ची दांतखिळीच वसता. आतां नोंनलो पावला.

गुंड-२ - गूड, व्हेरी गूड!

गुंड-१ - हे जाण्टेले. आयक. आयजसावन तोंड शिंव. (नोंनल्याक पळोवन) अरे वा ! नोंनल्यावाप्पा, योग्य वेळार पावलो तूं. तुकांय इल्लो वाटो मेळुंकूच जाय न्हू? वरें जालें तूं पावलो... आनी हें पळयात, तुमी तोंड वंद दवरलें ना जाल्यार तुमच्या दोगांयसकट सुनेच्याय पोटाच्यो झोळयो भायर काडटलो. किर्ते नोंनल्या? वावू आनी वावग्याच्या माथ्यार व्हडल्या गांवकारचो हात आसा. खबर आसतलेंच तुकां.

गुंड-२ - (चाळोवन) केंमरा.... तोंडाक कुलूप लावपाचां काय गो? (दोगूय हांसत हांसत वयतात.) (भितरल्यान भुरगे आंटी आंटी गव...' असो उलो मारतात. उलो लागीं पावता तसो नोंनलो आनी केंसर अस्वस्थ जातात.)

नोंनलो - केंसार, केंसार आयक माजां. जालां तां जालां. आतां तोंड उगडूं नाका मायर्वाणी. वघ, पयलो घाव तुजो, आतां झिलगो आनी मगीर सून... ना. केंसार... तूं..... ( केंसर सुन्न. जानकी धांवत मुखार येता. ताच्या फांटल्यान भुरगीं आनी सर.)

सर/भुरगीं - (अजापान) नोंनल्या वाप्पा? जाण्टले??? आज्जे??

केंसर - सोगेप चावलो रे म्हाज्या झिलाक. दोन सोरपानी घात घेतलो पुताचो.

(जानकी झिलूक पळेता. तिचें चित्त जाग्यार येता. जानकी कोसळटा. केंसर जानकीचें कपल पुसता. आकांतून रडटात. काळीज तोडून उडोवपी संगीताचे सूर. पड्डो.)

## अंक सोंपता

# अंक - २

(उजवाड - खोपी म्हन्यांत झिलूचें मडें निसर्णीर मांडलां. निमण्या संस्काराची चडशी तयारी जाल्या. धव्या कपड्यावेली सुमाची दोरीय वांदून जाल्या. कुशीक जाण्टी (केंसर) आनी जानकी उध्वस्त अवस्थेंत. जाण्टो वाप्पा हातांत सुमादोर आनी कोयतो घेवन उबो आसा. मरणाचें हेर सामानूय कुशीक आसा. रतन, गॉनी, विशाल आनी स्मिताय भियेल्ल्या अवस्थेंत उबीं आसात.)

प्रा. देसाय- (फांट करून तळ्याच्या धडेर उबो आासा) ना... ना... नोंनल्यावाप्पा तुमीं सांगतात तें सामकें भयंकर आसा. म्हाकाच कित्याक? हें कोणाकूच पटपाचें ना.

नोंनलो - आतां कसा पोटोवन दिवूंचा तुमकां सरानो?

प्रा. देसाय- आरे... पूण ... हांगा एक मनीस, मनीस, मरून पडला आनी तूं म्हण्टा हांवें आनी म्हज्या विद्यार्थ्यांनी ताका उवारून व्हरचो..? सोयऱ्यां पावर्चीं ना, गांवचो कोण येवचो ना. हें कितें?

नोंनलो - काय सांगूं सरानो? आमची ही दोन खोपटां... आमकां सकयल्या जातीक कोण येतलो खांद मारपाक? तुमी बरे माणूस. हे बघा. आतां ना म्हणू नाका. उपकार करात ह्या माय-लेकीचेर. (पांयां पडटा)

देसाय - This is Disgusting. आरे, ह्या भुरग्यांक हांवें एन.एस. एसच्या कॅम्पाक हाडल्यात. समाज सेवा करपाक. I cannot do this. I am sorry, really sorry.

नोंनलो - समाज सेवा ! (कृत्रीम) कुठली सेवा आनीं कुठला समाज? केंसार, वायें ते सेवा करपाक इलेंत. समाजाची. आमचो झिलगो आनी आमी भयजवरे ह्यां समाजांतले खंय पडटात? चल आतां दोंगरूच खणुचा आमी.

केंसर - बाबा... बाबा... उपकार करात रे. सकाळपासून पोरगचां मडां तसाच कुसता. तुज्या पांयां पोडटां रे पुता.

देसाय - (फांटी सरून) Why cant she understand? आगे तुकां कशें कळना? आगे गांवचे लोक नर्ग येवंदी पयली.

केंसर - गांवचो कोण पाड घालूंक येवचो ना हंयसर. पुता... झिला. तूं शाळेंतलो मास्तर. बरो माणूस. उपकार करून म्हाज्या झिलग्याक पावय रे... (पांयांक घट्ट धरता.)

देसाय - आगे, जाण्टे, आयक तरी.

केंसर - बाबा... देव करो पावला तूं. तुजे उपकार जायत. मेल्ल्या पुनार्चो.. ह्या मेल्ल्या झिलाची कपालफुटकी आवय तुकां विनंती करता. तुज्या समोर पदर पसरता... (रडटा)

देसाय - (निर्णय घेवन) ओके. ओके. बरे आसा. (जाण्टी रडनच आसा) आय मेड ओके . ओके. (नोंनलो जाण्टेक थारयता) हां.. बाप्पा.. नोंनलो न्हय?..म्हाका सांग. ससुंडेंतलो नचारी वी जाली?

नोंनलो - ससुंडी खंयची? सगलो वयर दोंगरार व्होंगेन पुरपाचो वघा. (आयकून भुरगीं लागीं येतात.)

भुरगीं - सर ! हें कितें चल्ला?

विशाल - हे बाप्पा, पुरपाक तें कितें जनावर रे?

रॉनी - चोय बाप्पा. येशं कोशें जातोलें? हिन्दू मनशाक पुरपाचो नासोना. तुकां होबोर ना?

रतन - हय वय. वाटेर ससुंडीय वी आसा. न्हय रे विशाल?

नोंनलो - नाका... थंय नाका... मुसुंडेंत नाका.

देसाय - ससुंडेंत नाका. तर मागीर खंय व्हरप ताका?

नोंनलो - वयर दोंगरार.

देसाय - ओ माय गॉड !

रॉनी - आंकोल, किदें उलयताय तूं? गांवची मसुंडी हांगा आसतोना दोंगरार कित्याक?

देसाय - रॉनी. पयलींच्या काळांत दोंगरार मडीं व्हासतालीं. पूण आतां गांवागावांत मसुंडी आसा. चलात, नोंनल्या बाप्पा, काळोख जांवचे पयलीं निमणें संस्कार जावंक जाय. चलात.

केंसर - पोरनो..नाका रे थंय. मसुंडेंत वोगीच झगडी नाका रे म्हाज्या झिला.

देसाय - आगे पूण कसली झगडी? (ती ओग्गी) बाप्पा?

नोंनलो - आतां काय सांगू तुमकां म्हाजां मडां? (कपलार हात धरून बसता)

देसाय - तुमीं कांयच सांगूं नाकात. विशाल, रॉनी, रतन, चलात मारात खांद.

तिगूय - (अनमनतात) सर !!! खांद ...मड्याक ... आमी... हांव ना.

देसाय - कितें?

रॉनी - I am sorry sir, आमी 55 आयमीन आमच्या धोर्मांत येशें खांद मारपाचें नासता भुरग्यांनी.

देसाय - विशाल?

विशाल - सर, हें तूं कितें सांगता आमकां? I was not expecting this typer of social work. (सर रतनाक पळयता)

रतन - I don't mind sir, सार हांव एन.एस.एस.चो स्वयंसेवक. हांव खांद मारपाक तयार आसा सर. चलात.

देसाय - शाब्बास रतन ! I am really proud of you. रतन, आयज तुवें तुज्या मडल्ली शिट्टुकमाण दाखयली. हरशीं तुकां घोळयो म्हणपी सो कॉल्ड बुदवंत पळय आकांनाच्या खिणाक कुल्याक पांय

लावन धांवन मुटले. really. I am proud of you my son. एन.एम.एस. म्हळ्यार फक्त मजा न्हय. हें तुवें सिध्द केलें. आयज ह्या शिक्षकाची लज तुवें राखली.

रतन - Thank you sir. सर ते SS

देसाय - रतन. एन.एम.एस.चो 'मोटो' भाजून खळ्ळ्यांक म्हाका कांयच सांगपाचें ना. जांकां आमच्या वांगडा येवपाक जाय they are most welcome. (सर. रतन. आनी नोंनलो सझ्यावटेन वतात. खांडं मारपाक मुखार सरतात. विशाल आनी रॉनी एकामेकाक पळेतात. 'हम होंगे कामयाब' धून कानार पडटा. तेवूय हळू-हळू मुखार सरून चूक मागतात)

दोगूय - We are really sorry sir. आमी तयार आसात. चलात. (रतन. नोंनलो, जानकी, केंसर समाधानी)

देसाय - पूण आतां म्हजी तयारी ना. सॉरी (उबो रावता. सगळे अजाप. नोंनलो कपलार हात मारता.)

भुरगीं - सर, आतां कितें जालें?

नोंनलो - काय जालां सरानां?

देसाय - नोंनल्या बाप्पा. म्हाका एक प्रश्नाची जाप जाय.

नोंनलो - जाप?

भुरगीं - सर... तुमी....??

देसाय - एक मिनीट. हांव बाप्पाकडेन उलयतां. बाप्पा म्हाका सांगात, समुंद्रेनली भानगड. तळ्यांनली उजवे वटेनची भानगड आनी समुंद्री आसुनूय डोंगरार मडें पुरपाचो तुमचो आग्रह हो गुस्पागोंधळ. ह्यो गांठी म्हाका सुटना. I mean. I am confused

रॉनी - Right sir, we too.

देसाय - बाप्पा... जाण्टले. ह्या भानगडींचेर उजवाड घातलेवगर हांव म्हज्या विद्यार्थ्यांक मुखार व्हरूंक शकना. सांग.

नोंनलो - आतां काय सांगूचां आहा? (थवकल मारता)

देसाय - I am sorry, I wont help you. हांव तुमकां मदत करूंक शकना. जाण्टेले?

केंसर - कितें सांगूं पुता? सगळो नशिबाचो खेळ, आणखी काय नाय. आमचां मडां ल्हासूंक जायना थंय मसुंडेंत. भयजवऱ्यांची जात भ्रश्ट जाता खंय. कोल्याचे जातीचे रांडेचे. सरकाराची मसुंडी, पण वापायची मिरास कशी पोटार घेवन बसल्यात गांवखायरे.

देसाय - कोण कितें घेवन बसल्यात तें आमकां नाकां. आमी मडें घेवन थंय कित्याक वचचें न्हय?

केंसर - एक नेलेलां फांटल्या म्हयन्यांत झिलग्याच्या बापूसाचां (रडटा).

देसाय - मागीर?

केंसर - मगर काय सांगूं पावण्यानो? अर्धां जळलेलां मडां, ह्या गांवकारान मरणावयलां उचलून भिरकटावन मारलां (रडटा, जानकीय घुस्मट्टा, भुरगींय सुन्न)

भुरगीं - कितें?

देसाय - उपरांत कितें जालें? आय मीन मड्याचें कितें?

नोंनलो - काय जातलां? मी स्वतः गांवकाराचे पांय धरले. खूप विनंती केली. अर्ध्यामड्याचो विलो लावच्याक मागलो, पूण कोणेंच आयकलां ना. (मुस्कारे) मगर अर्धा ल्हासलेलां मडां तळयाच्या उजवंवाटेन पुरपाक प्रसाद लागलो देंवचारचो. आमी मसुंडी भ्रश्ट केली म्हण एका म्हयन्यान आज शुध्दकार चल्ला थंयसर. मगेर कशें जमोवपाचा?

देसाय - ओ आय सी ! देखूनच....

नोंनलो - त्या दिसा उजवेवाटेन खणूंक नाका म्हण्टालो तो ह्यांकाच लागून.

देसाय - समजलें.

केंसर - म्हाज्या झिलग्याकूय त्या गांवकाराच्या गुंडानींच खाल्लो रे पुता. त्या दोगा सोरपांनी गिळ्ळो म्हाज्या झिलाक.

भुरगीं - किते?...सर हें ऽऽ (अजापता)

देसाय - Yes ! My dear students thats true. म्हजो दुवाव खरो थारलो. रॉनी, विशाल आतां वेळ वगडावन जावंचें ना. (मोबायल काडटा) हां ! विशाल, कॅम्प सायटीर वच आनी प्रो.फेर्नांडीसाक सांग आमकां मात्सो वेळ जातलो. तो हुस्को करीत. उपरांत तसोच मसुंडेंत वच आनी थंयसर जी कितें फोर्मेलिटी आसा ती कम्प्लीट कर. ओ.के. come on, hurry up.

विशाल - ओ.के. (वता. सर आपलो गळ्यांतलो मोबायल काडून नंबर लायता. रेंज मेळना.)

देसाय - कम ऑन कम ऑन.

रतन - रस तुमी कोणाक फोन डायल करतात?

देसाय - पुलीसेक, पूण रेंज मेळना.

रॉनी - हिंगा सावन रेंज मेवचो ना सोर.

केंसर - (पुलीसांचें नांव आयकोन भियेना) पुलीस? पुता आमकां मारतुकड्यांक कोणी सांगला मसुंडी? झिला आमकां झगडीं नाका. आमकां मसुंडी नाका.

देसाय - प्रस्न मसुंडेचो ना जाण्टेले. प्रस्न आसा सामाजीक अन्यायाचो. ताट मानेन जगपाचो. रतन, रॉनी चलात, उखलात. स्मिता तूं जानकीक सांबाळ (नोंनलो, केंसराक वसयता. चारूय जाण

उपगंत तिरडेक हात घालता. केंसर, जानकी हांचो आकांत. नोंनलो 'राम, राम, श्री राम जय जय राम' म्हण्टा. तिरडी घेवन मुखार वचपाक आनी गांवकार गुंडा सयत हजर.

गांवकार - वा ऽऽ वा ऽऽ (टाळ्यो मारीत) प्रोफेसर अरविंद देसाय. वा!... वालोर तुकां. आरे बाबू, वावग्या, कॅमेरा आसात जाल्यार हाडात. आरे पळयात प्रोफेसर देसाय आनी ताची वानरसेना सोशल सर्विस करतात. सोशल सर्विस. (हेडायल्ल्याभाशेन हांसतात.)

गुंड-१ - (हांसत) मारतुकड्याक खांदार मारून सोशल सर्विस करता. (सर ओग्गी, भुरगे फुरफुरतात)

गांवकार - अव्वा केदी कापासदाद रे? हां? म्हज्याच गांवांत येवन हो देड दमडीचो मास्तर म्हज्याच तोंडाक पानां पुसता (गॅनी फुरफुरता)

देसाय - गॅनी, किप क्वायट. मिस्टर गांवकार, हें पळयात म्हाका विशय वाडोवपाचो ना. ह्या आदार नाशिल्ल्या आवयच्या पुताक पवित्र अग्नी दिवपाचें कार्य हांव तडीक व्हरूंक सोदतां.

गांवकार - बरें. पूण तुमकां जें कितें करपाक जाय तें आमचो गांव सोडून खंयूय करात. म्हजी हरकत ना.

देसाय - मिस्टर गांवकार...

गांवकार - आनी हांगाच विधी करपाक जाय जाल्यारूय आसात. दोन पर्याय आसात. एक तळ्याची उजवी सायड. दुसरी वाट दोंगराकडेन वता.

देसाय - मिस्टर गांवकार, हिंदू धर्मांत अग्नी दिवपाचो आसता हें तुमकां खबर आसतलेंच.

गांवकार - तें तुमीं सांगपाचें लागना.

देसाय - मागीर मसुंडी सोडून दुसरेकडेन तें जावंक शकना. am I right Mr. Gaonkar?

गांवकार - तुमीं उज्याकडेन खेळटात. प्रो. देसाय.

देसाय - बरोबर तुमचें. ह्या कुडीक अंत्यसंस्कार दिवपाक वयता आमी.

गांवकार - अंत्यसंस्कार आनी खंयचो? (तिडकीन) आरे म्हारांक खंयचे संस्कार? पुरात तांकां दोंगरार व्हरून. गांवची वाट लायल्या म्हारतुकड्यानीं.

देसाय - गांवांत मसुंडी आसतना एक मडें दोंगरार व्हरून कुत्र्या सवण्याभशेन पुरप हो गांवचो अपमान जावंचो ना?

गांवकार - राव रे, गांवकार हांव काय तूं? हां? तुमी कितें फिरकी घेवूंक आयल्यात किते रे? हें पळय, तुकां हें गांवपण परवडचें ना. तूं हे भानगडींत पडूं नाका समजलें?

देसाय - ना.

गांवकार - कितें?

देसाय - समजूंक ना. आय मीन तुमी सांगलें तें पटूंक ना आनी समजुंकय ना. हें पळयात, अंत्यसंस्कारासारखें दुसरें पुण्य काय आनीक ना. खरें म्हळ्यार हें तुमचें कर्तव्य, तुमीच करपाचें हें. गांवकार ह्या नात्यान.

गांवकार - कोण रे तूं? म्हाकां सांग कोण तूं? म्हज्या गावांत येवन म्हज्या कर्तव्याची जाणवाय म्हाका सांगपी तूं कोण?

देसाय - हांव.... (गडबडटा) हांव ..... हांव...

गांवकार - हय तूंच... तूंच.

देसाय - हांव .....

गांवकार - आमचो गांव कितें ह्या स्वयंसेवकानी पोसको घेतला? (जानकीक

पळोवन) काय ह्या म्हारांक तुवें विकतीं घेतल्यांत? ना, म्हाल सामको फस्टक्लास आसा म्हूण म्हुण्टां.

देसाय - मिस्टर गांवकार. You are crossing your limit.

गांवकार - You are also crossing your limit prof. A. B. Dessai. तुकां कितें दिसलें? हो.. हो... सो कोल्ड अंत्यसंस्कर आमच्या गांवांत तुकां सहज करूंक मेळटलो. तूं आयला तें पळोवन आमी म्हण्टले, "आरे चलात. प्रो. देसाय येयल्यात तांकां 'संगीत अंत्यसंस्कार' नाटक करपाचें आसा, चलात रंगोवन घेयात." (तिडकीन) आरे आमचो गांव केदो रे? आमचें देवस्पण केदें? ह्या गांवचें गांवपण केंदें? पावलापावलार हांगा घुडयो, देव-देवचाराच्यो मठ्यो, शिगम्याचे, धालोचे मांड, हें सगळें अशेंच भ्रश्ट करपाक इतलें सोपें दिसलें तुकां? कितें रे हे मास्तरा? (रॉनीक तिडक येता. तो फुरफुरता. आंगार येता.)

रॉनी - हें चोय, दादागीरी कोरूं नाका. (सर ताका शिटकायता.)

गांवकार - अजुनय वेळ वचूंक ना. प्रो. देसाय तुमी वचात हांगासावन आनी कॅम्प एँजॉय करात. कितें?

(इतलो वगत खांदार अशिल्ली तिरडी सकयल दवरून.)

देसाय - जालें तुमचें? आतां म्हजें आयकात. ह्या कुडीक अग्नी दिल्याशिवाय हांव हांगासावन वयचो ना. समजलें? and for your kind information Mr. Gaonkar, in the year 1947 on 15th of August ह्या देशाक स्वातंत्र मेळ्ळें. आनी for your further information. In the year 1961, on 19th of December हो वाटार जुल्मी राजवटींतल्यान मुक्त जालो. हांव ह्याच वाटारांत उबो रावन उलयतां. ॲण्ड आय होप, हो वाटार, हो गांव, आनी ती मसुंडी कोणाच्या बापायची मिरास न्हय. सो, कायद्यान हांव कितेंय करूंक शकतां.

गांवकार - हां... कितें म्हळे? कायदो? मास्तरा, ही कायद्याची भाशा तूं म्हजेकडेन उलोंव नाका. ह्या गांवचो कायदो व्हडल्या गांवकाराक जाय तसो घडटा. आनी जाय तसो मोडटाय बी. हें तुजें लेक्चर कॉलेजींत भुरग्यांमुखार सांग. कितें रे? आमकां आयकोंक दिवं नाका. सांगता शाणपणां...

देसाय - सांगतलों... शाणपणां सागपाचेंच काम म्हजें. आनी तुकां तीं आयकूचीं पडटलीं.

गांवकार - हो मास्तर चडूच पोलिटिक्स करूंक लागलो मरे? बावू, बाबग्या, ह्या मास्तराचीं राजकारणां भाऊक सांगून भायर काडचीं पडलीं आतां.

गुंड-१ - काका, भाऊक सांगूच तूं... आनी ताचे साठाचे कापून सामके आठ करूंक लाय. कळूंदी आमचो पावर. कितें आट? इंच रे?

गुंड-१ - वर्सां रे वर्सां.

नोंनलो - (मुखार सरत) मी काय म्हण्टय गांवकारानो.... आमकां...

गांवकार - हे, नोंनल्या, तूं मर्दी पडूं नाका. तुजें म्हाराचें आयकूंक हो गांव आजून तुमचेंकडेन घाणाक दिवंकना.

गांवकार - आनीक जाप काडशी जाल्यार दोंके मोडून घालतलो. (नोंनलो वगी पडटा)

गुंड-१ - काका ह्या शारांतल्या मनशांनींच तेका फिनयला. आवयक खायरो म्हारतुकडो काकाकडेन सुवेजपणां करता.

गुंड-२ - हय काका. हे शारांतले लोक आमचें देवस्पण, आमची परंपरा आमचें गांवपण चव्हाच्यार उडोवंक सोदता.

रतन - शारांतल्या लोकांनी कित्याक? तुमच्या सुवेजपणान तें तुर्मीच वाऱ्यार उडयला. न्हु रे रॉनी?

रॉनी - व्होय, व्होय. (वावू / बागगो दोगूय फुरफुरतात)

गांवकार - हो तो, नाळ पेकूंक नाशिल्लो पोर कित्याक शापोतां सांगता रे?

रतन - नाळ पेकूंक ना? म्हाका म्हुण्टा नाळ पेकूंक ना? पळोवपाक जाय तुकां... दाखोवं, दाखोवं तुकां?

देसाय - रतन, रतन बिहेव

रतन - राव सर, तेका दाखयतां हांव. नाळय पेकल्या आनी नाळेवाय पेकला तो. न्हू रे रॉनी?

रॉनी - व्होय व्होय. जेका रेस्पेद दिवपाक गोमना तेका रेस्पेद केसो मेवतलो?

गुंड-१ - दुकरा?

रॉनी - दुकर तुजो पाय, तुजी मांय.

गुंड-२ - काका, तूं फक्त ऑर्डर दी. आतां ह्या दुकराचें मडें पातळटां हांगाच.

रॉनी/रतन - आरे चोल रे तुकां भिक घालीन. चोल / दादागिरी करता? गुंड खंयचो? हात लावन चोय / हे.

गुंड १/२ - (अंगार वचून) हे.. दुकरा. / गंडेच्या / मार मार तेका.

वावू (गांवकार मान हालयता, मारपाक खुणायता. बाबू रॉनीक धुकलता. वावगो रतनाक. वाचावाची जाता. सर मुखार सरता. ताचेर वावू दांडो मारता. नोंनलो मुखार सोडोवपाक येता तें पळोवन ते नोंनल्याक वोंचकुलाक धरतात. ह्यावेळार भुरगे सगक घेवन कुशीक वतात. सगच्या माथ्याक कोक जाल्या.)

गुंड-२ - (नोंनल्याक वोंचकुलाक धरून) हें हकाच लागून जालां. (मार्गीत) म्हारतुकड्या, गव तुज्यां आतकोड्यां भायर काडटां. (सासूंक नजो जावन जानकी केंसरगच्या दांड्यान तांकां आडयता. तिचां

अवतार पळोवन गुंड फांटी सरतात.)

जानकी - मोडात, मोडात गंडच्यानो मोडात. मी बुड्डन खानलां तुमकां. (बडबडटा).

गुंड-१ - ही पिशी मरे.. पिशी म्हारीण.

गुंड-२ - कुशीक राव आफुडशी बीं.

जानकी - काय रे हे देवचाग. कोण पिशी? तुज्या हावशीचो घोव पिसो. बायजण खेंयचों. ये असा समोर ये तुकां मदल्यान फाडून टाकतय वघूच तूं. ये मरे समोर ये. हिम्मत आसत जाल्यार ये. तुकां कापडाच्या कामाट्यान वांदून दवरतय ये. आवशीक खायच्या... हे गांवकारा आतां बोल मरे.

गांवकार - हांव म्हागवांगडा जाप कार्डीना फांटी मर मारतुकडी खेंयची.

जानकी - वा रे वा! गांवकारा वा. आमी म्हारतुकडी खालचे जार्तीची. हो धर्म कितें दिवसाचोच पाळपाचो मरे?

गांवकार - तुकां कितें म्हणपाचें आसा?

जानकी - आरे गांवकारा. गतच्या काळखांत तुज्या धर्माचीं लक्तरां खेडेन गुवांत लोळटत म्हायती आसा तुका?

गुंड-२ - काका ही, ही बायल पिसावल्या. तिका पिशें लागलां.

गुंड-१ - तूं, तूं म्हारतुकडी आमच्या धर्माचेर शेण मारता. बावग्या पळयना कितें धर तिका.

(मारपाक मुखार येतात, जानकी दांडो आपांटता)

जानकी - आवशिक खायच्यानो समोर येयात, तुमची शेमळीच धाडयतय मी. ये.

(तांच्या आंगार वता. ते फांटी सरतात.)

वावू-१/२ - पिशी खंयर्ची / आफुडर्शी र्शी. र्शी. / र्शी कडेक. काका काका , फांटी सर.

गांवकार - हे जाण्टेले (केंसराक) हें तुमी कितें आडयलां आनी ही कितें पिसावल्या?

केंसर - म्हाकां काय विचारतय? तुज्या दिवट्यांक विचार. म्हाजो झिलगो मारलो तेंच्यानी...म्हाज्या पोराक पिसडलो आणखी काय करचो वाकी रवलाय. वरून विचारता वघ तोंड घेवन वानर खंयचो.

गांवकार - जाण्टेले ! (निडर्कीन नांवडो जाता) तोंड वंद कर.

गुंड-१/२ - काका मद चडला पळय. वावू पळयता कितें? आपट तिका. हे म्हारतुकडे.

( गुंड मारपाक वयता. कुर्शीक आशिल्लो सर मुखार सरता. भुरगे येनात तें पळोवन वावू तांकां दांडो आडवो धरून आडयता. धुकर्लीन फांटीं व्हरपाचो यत्न करता. रॅनी, रतन, जानकी, नोंनलो धुकलूंक सोडना. हेवटेन वावगो सरांचेर दोन चार वार करून ताका जमनीर उडयता. भुरग्यांचो आकांत. वावगो चपलाचो हार सराच्या गळ्यांत घालता. केंसर कपलार हात धरून थंयच रावसणटा. ह्या आकांनाच्या खिणाक विशाल इन्स्पेक्टरच्या भेसांत धांवत येता. तांणीं नकली मिश्यो लायल्या. सगळें पळोवन भितरल्याभितर खतखतता.)

विशाल - (इन्स्पेक्टर) Stop it, stop it. I said stop it. (मर्दो येवन वावग्याक धुकलता. वावूय फांटी सरता.) फांटी सरात. कायदो तुमकां हातांत घेवंक मेळचो ना.मूव.

(भुरगे सराक उखलून कुर्शीक व्हरतात.)

विशाल - I am sorry sir. I could not reached on time.

भुरगे/देसाय - कोण? विशाल?

विशाल - (गडबडटा) No. no Prof. Dessai. निशाल इन्स्पेक्टर निशाल प्रभुगांवकर. विशालाचो व्हडलो भाव.

(सगळे सुखावतात.)

गुंड-१ - इन्स्पेक्टर सायब, तुमीं योग्य वेळार पावलें. हें पळय, हेंच ते कॉलेजचे भुरगें गांवांत येवन दादागिरी करतात.

गुंड-२ - धरात तेंका. आमचो गांव भ्रश्ट करूंक सोदतात ते.

विशाल - (नाका नियाळीत) तूं बाबगो मरे? आनी तूं बाबू?

बाबू-बाबगो - हे सायब आमकां वळखतात. , वळखता. हय. हय.

विशाल - तुमकां हांव माथ्यावयल्यान केंसासाकून पायांच्या नाखटांमेरेन वळखता. आरे तुमची पुरी जल्मकुंडली जाणा हांव.

गुंड-१/२ - सायब....

विशाल - Shut up. you basterd. बेडयो घालात. बेडयो घालात नाजाल्यार शूट करतलों. (काका. काका करीत बेडयो घालतात.) रॅनी. रतन. चलात उखलात निरंडी. तुमकां कोण आडायता तें हांव पळयतां. come on hurry up. (भुरगें, तोंतलो मुखार वता)

देसाय - एक मिनीट ! (गांवकाराक नमळायेन) पळयलें? निमाणें जैत सत्याचेंच जालें. सत्यमेव जयते ! आयज सत्य आठ्य डिकांनी जोगूल कशें पेटलां आनी लटीक तुमच्या आंगार खांगेज जावन फुटलां. खरें म्हळ्यार हें मडें फक्त निमित्त. खरें मडें आमच्या भितरच कुसत पडलां. तें पेटचें आसा. हय ! पेटचें आसा आमचें भितरलें जिवें मडें... हय हय पेटचें आसा हें जिवें मडें...नव्या विचारांनी... नवचैतन्न्यान भरिल्ल्या नवक्रांतींत... (नमळायेन) मि. गांवकार Please for god sake, ह्या आत्मविश्वासाक, ह्या आत्मसन्मानाक 'गोंयच्या जातीवादचें कारस्थान' अशें नांव दिवं नाकात. चलात रे उखलात.

(तिरडी उखलपाक सगळे मुखार सरतात. तिरडीक हात घालपाक, गांवकार आडुता.)

गांवकार - बंद करात हीं नाटकां. बंद करात.

विशाल - रावूं नाकात उखलात ती तिरडी.

गांवकार - रवात. इन्स्पेक्टर प्रभुगांवकार, म्हाका सांगात. तुमची पोस्टींग केन्नां, खंय आनी कशी जाली ती?

विशाल - (गडबडटा) पोस्टींग ऽऽऽ म्हळ्यार ऽऽऽ.

गांवकार - हांव सांगतां (निडर्कान) तुमची पोस्टींग आत्तां, हांगाच, ह्याचवेळार तुमची तुमीच केल्ली. वगंवर न्हय मिस्टर विशाल (विशालाच्यो मिश्यो काडटा. सर. भुरगीं अजापता, निर्शेता.)

सर/भुरगीं - विशाल तूं... (गांवकार हांसता. गुंड उठ्ठा)

विशाल - I am sorry sir, म्हज्या मुखार दुसरो ऑप्शन नासलो.

देसाय - आनी हो ड्रेस?

विशाल - फेन्सी ड्रेस कंपडिशनाक हाडिल्लो सर.

देसाय - ओ माय गोड !

( भायल्यान लोकांचो बोबाळ 'गांवकारबाब तुमी मुखार सरात आमी तुमच्या फांटी आसात', असो उडटो उच्चार)

गांवकार - सत्यमेव जयते! (टाळयो मारीत) वा ! वालोर तुकां. तुजे शिश्य खऱ्यानीच राजा हरिश्चंद्राचे अवतार आसात. वा! वा! हें पळय प्रोफेसर, तुमचीं नाटकां पळोवपाक गांवचे लोक आयल्यात (परत घोशणा.)

देसाय - विशाल कितें केलें तुवें हें? ... ह्या फाल्तुर मनशाच्या तोंडांत घातलो म्हाकां.

विशाल - I am sorry sir. (गांवकार आनी गुंड हांसता.)

देसाय - आनां हांव कितें उलोंव. (केंसरक) जाण्टले म्हाकां माफ कर. ह्या परिस्थितींत म्हाकां दिसना ह्या कुडींक अग्नी दिवंक शक्य जायत अशें.

केंसर - (रडटा) नाका रे पुता. असा म्हणूंक नाका.

देसाय - म्हज्या विद्यार्थ्यांनी म्हाका लजेक घातलो. आनां ह्या मसल-पावगमुखार तें कशें शक्य जातलें? खऱ्यानीच तें शक्य ना.

गांवकार - (उबरार पावला) आसा, शक्य आसा.

सगळे - (अजापान) कितें?

गांवकार - शक्य आसा. आमच्या मसुंडेंत ह्या मड्याक पवित्र अग्नी दिवप शक्य आसा.

गुंड-१ - काका हें तुमीं कितें उलयतनात? (लोकांची कुजवूज आयकूंक येता)

देसाय - Mr. Gaonkar, do you mean it?

गांवकार - Yes of course.

देसाय - Thank you Mr. Gaonkar. Thank you very much.

गांवकार - पूण म्हजी एक अट आसा.

सगळीं - अट?

देसाय - कसली अट?

गांवकार - सांगतां. सांगता. पासयास धर. आयक. हांव तुमकां नवक्रांनी घडोवपाची भांगरा संद दितां.

देसाय - भांगरा संद?

गांवकार - हय ! आयक, अट आयक. अट नंबर एक - मरण तुमच्या

भितरल्यान कोणें तरी एकल्यान करपाक जाय. अट नंवर दोन-सगळ्यां विधीं हिन्दू धर्माभशेन णव धा दीस अनवाळीं रावून केंस बिस कापून जावंक जाय.

('केंसर्वांस कापून जावंक जाय'. / गांवकारवाव जिंदावाद, जिंदावाद' अश्यो घोषणा)

केंसर - आरे म्हाज्या देवा.

गांवकार - चलात मुखार सगत. आनी हां अरनी दिवपी भाग्यवंत पयलीं खांद मारतलो. चलात -

केंसर - आरे झिलग्या. कसला नशिव रे तुजां? (थपकल मारता.)

देसाय - भियेंव नाका जाण्टलें. म्हाका म्हज्या विद्यार्थ्यांचेर पुराय विश्वास आसा.विशाल चल मुखार सर. हांव तुमकां पयलीं संद दिता.

विशाल - (फांटी सरता) सर.. हांवऽऽ हांव.. (मान सकयल)

देसाय - रतन आतां फांटी सरप ना. चल सर मुखार.

रतन - (फांटी सरत) सर.. पप्पा आनी मम्मी किनें म्हुण्टली? शी... मरण...हें...हांव ना. (रडटा)

देसाय - ओ.के. रॉनी तूं कितें म्हुण्टा?

रॉनी - I don't mind sir, but... हांव ऽऽ (अनमनता) कोंकणो आसलेलो जाल्यार जरूर कोरपाचो सर. आय मीन ऽऽ (मान सकयल घालून) I am sorry sir.

( गांवकार हांसता. हेडायळ्याभशेन करता. वावू-वावगो मद चडलेल्याभशेन खिदखिदता भायल्यांसून लोकूय हांसतात. हेडायतात.)

देसाय - (निर्णय घेवन) ओके. अरनी हांव दिनां. मरण हांव करतां. तुमीं खांद तरी मारशात?

(भुरगे ल्हव ल्हव मुखार सरतात. सर आपल्या गळ्यांतलो मोबायल काडून रॉनीकडेन दिता. घड्याळूय रॉनीक सोपयता. हात कवळटा बुडकुलो उबारता इतले म्हणसर. प्रिंसिपल येतात)

प्रिन्सिपल - Mr. Dessai ! What the hell you are doing here? are you going mad?

भुरगीं - सर.....सर तुमी.... सर....!!

देसाय - Sir, I will tell you afterward.

प्रिन्सिपल - I don't wan't any explaination हें पळय म्हाकां भुरग्यांचे पॅरंट सकाळसावन ऑफिसांत फोन करतात.

देसाय - पूण सर----

प्रिन्सिपल - नो नो म्हाका कांयच आयकूपाचें ना. You just pack up and come back. its an order.

देसाय - सर हांव तुमकां उपरान्त सांगतां....

प्रिन्सिपल - I said its an order, come back. (वता)

(प्रिन्सिपल वता. कांय वगत शांतताय. सर सगळेवटेन नदर भोंवडायतात. असहाय्यतायेन बुडकुलो दवरता. खूब जड जाल्लेवरी आनी....)

देसाय - रॉनी, विशाल, रतन फॉलो मी. (वयतात)

(गांवकार आनी गुंड मदानपणान हांसतात. केंसर आनी नोंनलो कपलार हात धरून रडटात. जानकी एकेवटेन तिरडी उखलून दोंगरावटेन ओडूंक लागता... गांवकार आनी गुंड परत हांसतात. कान पिळपी संगीत/आलाप. इतल्यान भुरगे हातांत मशाल घेवन माचयेच्या शेवटच्या टोकावयल्यान लायनीन भितर सरतात. तांच्यामुखावयल्यान प्रोफेसर देसाय हातांची घडी घालून धिटायेन

मुखार सरतना दिश्टी पडटा. गांवकार, गुंड चलबिचल जाता. केंसर नोंनलो, जानकी ल्हव ल्हव उर्बी रावतात.)

गांवकार - प्रिन्सिपोल प्रिन्सिपोल खंय तुमचो? प्रिंसिपल?

गुंड-१/२ - काका काका.... तेंका पळयात

गांवकार - प्रिन्सिपोल... प्रिन्सिपोल सर... ( प्रिन्सिपल येता. तांणी आंगावेलो शर्ट काडला..खांदार तुवालो घेतला.)

गांवकार - प्रिन्सिपोल सर... पळयात ह्या प्रो. देसायान कितें आरंभला. तो... तो.... हें मर्ण करतलो खंय आमचे मसुंडेंत.

प्रिंसिपल - प्रो. देसाय मर्ण करचोना. (गांवकार, गुंड खूश) मर्ण हांव करतलों.

गुंड१/२ - ह्यं !

प्रिंसिपल - हय... हांव करतलो हें मर्ण. हांवूच घडयतलो ह्या नवकिर्तीचो नवो आरंभ.... हांवूच घालतलो ह्या महायज्ञाची खरी बुनयाद तुमच्या अटीप्रमाण मिस्टर गांवकार.

(गांवकार बेजारून वता, गुंडूय ताचे फाटल्यान पळटात. सगळे भुरगे, देसाय प्रिंसिपल. हातांत हात घालून जैत दर्शयतात. 'हम होंगे कामयाब' चे सूर आयकूंक येतात. जानकी, केंसर, नोंनलो अजापान सुखावता............. काळोख / पडदो.)

**- सोंपता -**



# प्रा.हनुमंत चोपडेकार

श्रीराम पर्णकुटी हाविसंग को.ऑ.सोसायटी,
यशवंतनगर,
तिस्क, फोंडें - गोंय.
shani.chopdekar@rediffmail.com

एक संवेदनशील कवी, प्रतिभासंपन्न नव-कथाकार,
सामाजीक जाणिवेचो पथनाटयकार, परिपक्व एकांकिकार,
धगधगत्या वास्तवाचेर भाश्य करपी नवो नाटककार
आनी विद्यार्थी-प्रिय शिक्षक.

**शिक्षण**
एम्.ए. (मराठी), एम्.ए. (कोंकणी), एन्.ई.टी. NET

**वेवसाय**
अध्यापक
श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय
पोस्ट - फातोर्डा, मडगांव - साश्टी - गोंय.

## साहित्यीक प्रवास

**पथनाटयां**
भांगराचें गोंय म्हजें,वुमन ऑफ टुवेंटीयथ सेंचुरी,
एक नवें पर्व,जायात जागे, कुरू कुरू कानां - कॉंक्रिटाच्या रानां,
रस्तो आमचो इश्ट खरो,अ रे ऑफ होप

**एकांकी**
काळजाक पडला धांव,एक कुट्टूल फाफशिल्लें,
एक अर्दकुटो खून,अंत्यसंस्कार,कित्याक,
तीन - कुवाडीं, पूर्णविराम

**कवितासंग्रह**
आतां केन्नातरी फांतोड जातली (चेतना प्रकाशन)

**नाटक**
इन्व्हेस्टीगेशन (मराठी), कैदी नंबर 001(मराठी)

